


श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय
काणकोण - गोंय




गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी



# 16 वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

13-14 डिसेंबर 2014



# स्मरणिका

## १६वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

### १३ आनी १४ डिसेंबर २०१४

युवांगण
श्री मल्लिकार्जुन कला आनी वाणीज्य महाविद्यालय
देळें, काणकोण – गोंय

आयोजक :
श्री मल्लिकार्जुन कला आनी वाणीज्य महाविद्यालय
गोवा कोंकणी अकादेमी

संपादक :
प्रा. नित्यानंद नायक

उजवाडावपी :
प्रा. पुर्णानंद च्यारी
कार्याध्यक्ष

## युवांगण :– श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय, देळें – काणकोण

शेनवार, १३ डिसेंबर आनी आयतार, १४ डिसेंबर २०१४

# कार्यावळ पत्रिका

**ता :– १३ डिसेंबर २०१४**

९.०० च्या

९.३० उक्तावण सुवाळो

| | | |
|---|---|---|
| संमेलनाध्यक्ष | : | नूतन साखरदांडे, नामनेची कोंकणी साहित्यीक |
| उद्घाटक | : | विवेक शानभाग, नामनेचे कन्नड साहित्यीक आनी ''देशकाल'' वर्तमानपत्राचे संपादक |
| | : | डॉ. एफ. एम. नादाफ, प्रा. श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय, काणकोण |
| | : | प्रा. पुर्णानंद च्यारी, कोंकणी विभाग मुखेली, कार्याध्यक्ष |

०९.३० येवकार गीत

०९.३५ मानेस्तांक माचयेर हाडप

०९.४० येवाकाराध्यक्षाले उलोवप – डॉ. एफ. एम. नदाफ

०९.५५ फुलां भेटवप

१०.०० दिवली पेटोवन संमेलनाचें उक्तावण

१०.०५ कार्याध्यक्ष प्रा. पुर्णानंद च्यारी हांचें मनोगत

१०.२५ गोवा कोंकणी अकदेमीचे अध्यक्ष भौ. पुंडलीक नायक हांचें उलोवप

१०.४० विल्मा बंटवाल हांच्या पुस्तकाचें प्रकाशन अकादेमीच्या अध्यक्षांच्या हस्तुकी

१०.५० विल्मा बंटवाल हांचें उलोवप

१०.५५ युवांकुराचें प्रकाशन, मुखेल सोयरे भौ. विवेक शानभाग हांच्या हस्तुकी

१०.५८ मानेस्तांचें उलोवप, श्री. रामदास माजाळकर, अध्यक्ष, ज्ञान प्रबोधिनी मंडळ

११.०० मुखेल सोयरे भौ. विवेक शानभाग हांचें उलोवप

११.२५ स्मरणिकेचें प्रकाशन संमेलनाध्यक्षांच्या हस्तुकी

११.३० संमेलनाध्यक्ष सौ. नूतन साखरदांडे हांचें उलोवप

११.४५ यादस्तीक भेटवण

११.५० प्रा. ब्रिजेश शेट देसाय हांचें उपकाराचें उलोवप

सूत्र संचालक : डॉ. रूपा च्यारी

१२.०० बीजभाशण –भौ. दामोदर मावजो, नामनेचे कथा, कादंबरीकार आनी राष्ट्रीय पुरस्कार मानकरी

०१.०० जेवण

०२.३० युवा साहित्य पुरस्कार भेटवण

पुरस्काराचे मानकरी : भौ. मार्कुस गोन्साल्वीस, नरेश नाईक,जोफा गोन्साल्वीस हांचो गौरव

०२.४५ भौ. मार्कुस गोन्साल्वीस तशेंच नरेश नाईक आनी जोफा गोन्साल्वीस हांची मुलाखत

मुलाखत घेवपी : सोयरू वेळीप, मिलन वांयगणकर

०४.०० च्या

०४.१५ पडवेर (जाहीर मुलाखती)

मानेस्त : भौ. मीना काकोडकार, भौ. प्रकाश पर्येंकार

०५.३० कवि संमेलन

अध्यक्ष – मॅल्वीन रॉड्रीगीस,

पांडुरंग गांवकर, शर्मिला प्रभू, गौरीश वेर्णेकार, जॉन आगियार, उदय नाईक, मिलींद्र वेळीप, विशू पवार, अदिती फडके, प्रेमजीत वेळीप, अंतरा भिडे, शरद रायकर, दीपराज सातोर्डेकर, रोशन गॉवीस, शायनी आफोंसा, जॉवीन सिक्वेरा, बबन भगत, रोशन पाटील.

०७.१५ मन रिजवणेच्यो कार्यावळी

०८.३० जेवण

*****

**१४ डिसेंबर २०१४**

०८.३० च्या

०९.३० कार्यशाळा (कथा, कविता, समिक्षा, ललीत लेख,पटकथा)

कथा : मार्गदर्शक, भौ. देविदास कदम, भौ. एन्. शिवदास आनी विठ्ठल आवंदियेकार

सत्र संचालक : मॅक्लम डिकॉस्ता

कविता : मार्गदर्शक, भौ. प्रकाश नायक, भौ. चित्रसेन शबाब आनी भौ. मॅल्वीन रॉड्रीगीस

सत्र संचालक : अदिती फळदेसाय

समिक्षा : मार्गदर्शक, डॉ. किरण बुडकुले, भौ. हेमा नायक आनी भौ. कमलाकर म्हाळशी

सत्र संचालक : रघुवीर देसाय

पटकथा : मार्गदर्शक, भौ. दर्शन लोलयेंकार, भौ. धर्मानंद वेर्णेकार आनी भौ. उदय कामत

सत्र संचालक : प्रसाद पागी

लालीत लेख : मार्गदर्शक, भौ. संदेश प्रभुदेसाय, भौ. नमन धावसकर आनी भौ. संजीव वेरेंकार

सत्र संचालक : मिथीला भगत

०१.०० जेवण

०२.३० समारोप आनी इनामां वितरण

आनी आदल्या आयोजकांचो भौमान

मुखेल सोयरे – भौ. रमेश तवडकर, मानादीक खेळ आनी युवा खात्याचे मंत्री, गोंय सरकार

संमेलनाध्यक्ष : नूतन साखरदांडे, नामनेची कोंकणी साहित्यीक

मानाची उपस्थिती : भौ. राजेंद्र देसाय, जोड सचीव, ज्ञान प्रबोधिनी मंडळ

सुवाळ्याचे अध्यक्ष : भौ. भूषण भावे, उपाध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमी

# संदेश



नमस्कार,

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या आदारान आमचे महाविद्यालय १६वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन घडोवन हाडटा. युवा साहित्यिकांक लेखन – वाचनाची उमेद दिवपी हें साहित्य संमेलन. तांच्या सुक्त गुणांक योग्य ती दिका दाखोवपी थरतलें हाची आमकां खात्री आसा.

बऱ्या उपक्रमांनी बरें घडचें, चड काळ टिकता तशें घडचें. युवकांनी ह्या संदीचो बरो वापर करून घेवचो.

**श्री. रामदास माजाळकर**
अध्यक्ष
ज्ञान प्रबोधिनी मंडळ, काणकोण

# संदेश



नमस्कार,

१६व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाक आमच्यो शुभेच्छा. गोवा कोंकणी अकादेमीचें मार्गदर्शन तसोच हेर आदार लाबला म्हणटकच कार्याचें जैत आसतलेंच.

विद्यार्थ्यांक चार वणटीच्या भायर प्रत्यक्ष साहित्य. संस्कृताये संबंधात शिक्षित करप, जागृत करप, काळाची गरज आसा. ही गरज अशा तरेच्या संमेलनातल्यान भरून येवची ही आमची भावना.

**श्री. के. बी. गांवकार**
सचीव
ज्ञान प्रबोधिनी मंडळ, काणकोण



# सर्जनशिलतेक पोसवण दिवपी शिस्तबद्ध युवा संमेलन

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

गोवा कोंकणी अकादेमी पुरस्कृत सोळावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन अंदू वर्सा, श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय, काणकोण हांचेवतीन, देळें काणकोण हांगासर जाता.

काणकोण म्हालांत दुसरे खेप हें संमेलन जाता. हाचे आदीं पांचवें युवा संमेलन श्री निराकार महाविद्यालयान, माशें हांगासर घडोवन हाडिल्लें.

युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाची सुरवात जे मोखीन आनी उद्देशान केल्ली, तो हावेस अपेक्षेपरस अदीक सफळ जाला अशेंच म्हणचें पडटा. गोवा कोंकणी अकादेमी पुरस्कृत हो उपक्रम युवा सर्जनशिलतेक उत्तेजन दिवपी थारला. उमेदी बरोबर ह्या उपक्रमाची शिस्तूय तोखणाय करी सारखी आसा.

संमेलनाची अध्यक्ष म्हण नामनेची कवयित्री श्रीमती नूतन साखरदांडे हिची निवड जाल्या. कोंकणीच्या मळार कवयित्रींचो आंकडो खूब व्हड आसा. नूतनबाय तातुंतली एक मुखेल अशी कवयित्री आसा. फकत एक कवयित्री इतलीच तिची वळख ना, तर कोंकणी साहित्य आनी भाशा चळवळींतली ती एक कुशल संघटक आसा. १९८५ वर्सांतली राजभास चळवळ धरून हालींसराच्या सगळ्या कोंकणी चळवळीकडेन तिचो लागींचो संबंद आसा. आनी ह्याच खातीर युवा साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो भौमान तिका लाबला. संमेलनांतलें तिगेलें उलोवप आनी सहवास युवा बरोवप्यांक मार्गदर्शक थारतलो अशी आस्त आसा.

संमेलनाचे उद्घाटक म्हण 'देशकाल' ह्या नामनेच्या कन्नड नेमाळ्याचे संपादक श्री. विवेक शानभाग लाबल्यात. कोंकणी मनशांनी मराठी, कन्नड, तशेंच मल्याळम भाशांखातीर जायतें योगदान केलां. श्री. शानभाग अश्याच कर्तुत्वी मानेस्तांमदले एक कोंकणी मनीस आसात.

अंदू वर्साचो श्री. राजू नायक हांणी आपणाल्या बापायच्या, सर्गेस्त मेघश्याम नायक हांच्या नांवान पुरस्कृत केल्लो पुरस्कार युवा लेखक श्री. मार्कुस गोन्साल्वीस हांकां लाबला. श्री. मार्कुसबाब कोंकणी ललित साहित्य तशेंच संशोधनाच्या मळार वावुरपी एक लेखक. कोंकणी चळवळीतूय तांचें योगदान आसा.

श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय, काणकोण ही संस्था गोवा कोंकणी अकादेमीची एक घटक संस्था कशी जावन वावुरता. हाचे आदींय हे संस्थेन गोवा कोंकणी अकादेमीचे जायते प्रकल्प आनी कार्यक्रम यशस्वी केल्या. अंदू वर्सा अकादेमीन महाविद्यालयीन थराचेर पयली कोंकणी वणटी–पत्रक सर्त जाहीर केल्ली. श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालयान ती यशस्वीपणान केली. ताचे आदीं जायते फावट महाविद्यालयान अकादेमीच्या पालवान विविध विशयां वयल्या परिसंवादांचें आयोजन केल्लें आसा. त्याच प्रमाण अकादेमीच्या आदारान कोंकणी विशयाच्या विद्यार्थ्यांक घेवन गोंयां भायल्या कोंकणी प्रदेशांत अभ्यास–भोंवडी केल्ली आसा. असल्या अणभवी आनी जांचे कर्मचारी, विद्यार्थीवर्ग कुशल आसा अशा महाविद्यालयान ह्या संमेलनाक खांद मारला.

सोळावें युवा साहित्य संमेलन सगळ्यांच्या सहकार्यान जैतिवंत जातलें, अशी आस्त आसा.

*****



# तरणाट्यांची नदर आनी बुद्धी विशाल जांव ...

**प्रा. डॉ. एफ. एम. नदाफ**
येवकाराध्यक्ष

१६वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन ज्ञान प्रबोधिनी मंडळाच्या श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय आनी गोवा कोंकणी अकादेमीच्या जोड पालवान आयज हांगा काणकोणा घडटा. ह्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत गिरेस्त अशें दायज आनी इतिहास आसा. फाटल्या वर्सां वर्सांच्या काळांत ह्या संमेलनात साहित्यीक मळार आपलें स्वताची गिरेस्त परंपरा रूजयल्या.

युवा कोंकणी साहित्य संमेलन नवोदीत साहित्यीक आनी कलाकार जे सृजनात्मक मळार वावरूंक सोदतात, नांवरूपांत येवंक सोदतात तांया खातीर एक शाही मेजवानी अशें हांव म्हणन. कारण अश्या साहित्य संमेलनांतल्यान तांच्या साहित्यीक आनी हेर कलागुणाक वाव मेळटा, म्हालगड्यांचें मार्गदर्शन आनी एक साहित्यीक मळार परजळपा खातीर एक सशक्त अशी माची मेळटा.

आमच्या काणकोण म्हालांत तिसऱ्या फावट युवा कोंकणी साहित्य संमेलन घडटा, हें काणकोणकारांखातीर एक व्हड खोशेची गजाल. काणकोणच्या मातयेंत एक अशें रसायन आसा जें काणकोणकरांक जल्मतांच मेळ्ळां. साहित्यीक मळार काणकोणचें व्हड योगदान आसा. हालींया काळांत आमचे दोन माजी विद्यार्थी नरेश नायक आनी जोफा गोन्साल्वीस जीं ह्याच साहित्य संमेलनांतल्यान तयार जाल्यांत ती दोगांय साहित्य मळार परजळटना दिसतात.

ह्या युवा साहित्य संमेलना खातीर आमकां काणकोणांत घरा घरांनी जो आदार मेळ्ळा तो एक सुखद असो अणभव. आपूण जावन ह्या संमेलनाची जबाबदारी घेवपाक, आदार दिवपाक आमकां शेंकड्यांनी हात मुखार आयले. तांकां हांव दिनवासतां.

ह्या संमेलनांतल्यान मेळिल्ल्या संदिचो फायदो तरणाट्यांनी घेवचो आनी तांतूंतल्यान तरणाट्यांची नदर आनी बुद्धी विशाल जांव आनी हें सम्मेलन जैतीवंत जांव म्हण आमी मागतात. तशेंच हें संमेलन जैतीवंत करपा खातीर वावुरल्या त्या सगळ्या काणकोरांक आनी विद्यार्थ्यांक, आमच्या बऱ्या मागप्यांक, वांटेकार जाल्ल्या सगल्या मानेस्तांक आनी युवकांक, हांव यश आंवडेतां.

*****



# युवा साहित्य संमेलनांतल्यान युवा साहित्यीक घडले

**प्रा. पुर्णानंद च्यारी**
कार्याध्यक्ष

नमस्कार,

वेदिवेल्या सगळ्या मानेस्तांक, रसिकांक येवकार. युवा कोंकणी साहित्य संमेलन १६ वर्सांचें जाता आनी काणकोणच्या श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालयाच्या प्रांगणांत सगळ्यांखातीर उकतें जाता.

साहित्य संमेलन जल्मा आयलां सावन प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष आयोजनाचो भाग जावपाचें भाग्य म्हाका लाबलां. कोंकणी मायेन आनी साहित्य शारदेन म्हजेर सोपयिलें जें कर्तव्य आसा तें हांव तुमच्या सगळ्यांच्या सहकार्यान निभायतां.

हांव बरोवपी, गावपी, संघटक अशे तरेन म्हजी वळख गोंयात आनी गोंयाभायर आसा. तसो हांव श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालयाचो एक शिकोवपी म्हणूनय म्हजी वळख आसा. हांव भास शिकपी साहित्याच्या, शिक्षणाच्या माध्यमांतल्यान विद्यार्थी तरणाट्यांच्या संपर्कांत उरतां. चार वणटी भितर शिकयनासतना चार वणटी भायर हाडून विद्यार्थ्यांक भायल्या संसाराचो उजवाड दाखोवप, नव्यो वाटो दाखोवप हें हांव प्रामाणीकपणान करतां. देखून फाटल्या १५ वर्सां विद्यार्थ्यांक आमी संमेलनांतल्यान घडयले. त्या संमेलनाचो लाव आमकां जालो. हेर संमेलनांनी वांटो घेवपाची संदी आमी घेतली. पूण आमीय बी ती संद हेरांकय दिवप अशें आमकां दिसलें. त्याप्रमाण आमचे आदरणीय मॅनेजमेंट, प्राचार्य, शिक्षक आनी श्री मल्लिकार्जुन परिवारान थारायलें. अंदूचें साहित्य संमेलन आमी घडोवपाचें. त्याप्रमाण हें कार्य आयज हांगा घडटा. हें संमेलन पांच वर्सांचे आसतना माशें जाल्लें. माशां निराकार शिक्षण संस्थेच्या आंगले उच्च माध्यमिक विद्यालयान तें केल्लें. ह्या संमेलनांत काणकोणकारांचो सहभाग पयलीं सावन आसा. आनी सांगूंक खोस भोगता ह्या संमेलनांतल्या घडिल्ले आमचे दोन माजी विद्यार्थी जोफा गोन्साल्वीस आनी नरेश नायक हांकां युवा साहित्यीक म्हूण राश्ट्रीय पुरस्कार आमी जोडूंक पावल्यात. देखून तांच्या ह्या वावरांत काणकोणकारांचें सामर्थ्य आनी वळख आनीकय व्हड जाली.

ह्या कार्याक आपले म्हण सहभागी जावचें, आयोजनाक मार्गदर्शन करचें, चुकता तें समजून घेवचें, मोगान जाता तें रागान जायना, ही म्हणणी खरी करून दाखोवपाचें काम आमचेर पडलां. आपआपल्या परीन हें कार्य आमी मुखार व्हरूया.

ह्या कार्यांत धा जणांचो हातभार लागला. आमचे विद्यार्थी मंडळ उमेदीन आनी निश्टेन वावूरतात. ते आयोजनाक नवे आसात. तांची तोखणाय जावंक जाय. गोवा कोंकणी अकादेमी, ज्ञान प्रबोधिनी मंडळ, श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय परिवार तुमकां सगळ्यांक एक व्हडलो सलाम दिता. तुमचो आशिर्वाद आनी कार्य जैतीवंत करूंक तुमचें बळ मागतां आनी थांबतां.

बरें मागून !



## १६व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे संमेलनाध्यक्ष

**नूतन साखरदांडे**

नूतन साखरदांडे खूब वर्सां सावन सतत्यान काव्यलेखन, कथा, निबंध, पुस्तक समिक्षण, अनुवाद लेखन अशा साहित्य निर्मितींट योगदान दितात. साहित्य निर्मिती वांगडाच कोंकणी चळवळींत आनी संघटात्मक वार तांणी केला. नूतन प्रकाशनाची प्रकाशिका म्हूण पांच वेगवेगळे कविता झेले ताणी प्रकाशीत केल्यात.

'जीण जाली अस्तुरी' आनी 'पासवर्ड' ह्या तांया दोन पुस्तकांक प्रतिष्ठेचे पुरस्कार फावो जाल्यात. 'जीण जाली अस्तुरी' पुस्तकाक अखिल भारतीय कवयित्री पुरस्कार आनी टी एम पै फावंडेशन पुरस्कार तशें 'पासवर्ड' पुस्तकाक जनगंगा पुरस्कार, कोंकणी भाशा मंडळअ पुरस्कार तशें बिंब पुरस्कार फावो जाल्यांत.

साहित्य अकादेमी दिल्ली पुरस्कृत 'तन्मयधूल' उदिया भाशेंतल्या पुस्तकाचो कोंकणी भाशेंत अणकार कला 'विवेणी' ह्या नामनेच्या काव्य कार्यावळींत म्हत्वाचो वांटो दिला, राष्ट्रीय पांवड्या वयल्या काव्य महोत्सवांत, काव्य वाचन आनी परिसंवादांट तांणी वांटो घेवन साहित्याची सेवा केल्या.

तांच्यो कविता मराठी, हिंदी आनी हेर भासांनी अणकारीत जाल्यात. 'शेणिल्लो गांव' ही कविता १८ प्रादेशीक भाशांनी अणकारीत जाल्या.

*****



## १६व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे उद्घाटक

**विवेक शानभाग**

- कन्नड भाशेंतलो एक नामनेचो साहित्यीक.
- ५ कथा संग्रह, दोन कादंबऱ्यो आनी दोन नाटकांची पुस्तकां तांचीं उजवाडाक आयल्यां.
- ताणीं दोन निवडक कवितांच्या संग्रहांचें संपादन केलां.
- वर्तमानपत्रांनी सातत्यान ते लेखन करतात.
- समिक्षात्मक साहित्य ताणीं रचलां.
- तांच्यो जायत्यो कथा इंग्लीश आनी हेर भासांनी अणकार जावन उजवाडाक आयल्यात.
- तांच्या जायत्या कथांचेर नाटकां बरोवप जालां.
- हीं नाटकां माचयेर सादर जाल्यांत.
- 'निर्वाणा' नांवाचें एक शॉर्ट फिल्म आयलां.
- कन्नड भाशेंतल्यान जायत्या म्हयन्याळ्यांचें संपादन केलां.
- कन्नडांत येवपी प्रजावाणी ह्या नामनेच्या वर्तमानपत्राचे ते संपादक आसात.
- पेशान ते अभियंते.
- सद्याक ते अंतरराष्ट्रीय ख्यातीच्या कंपनींत काम करतात.
- सद्याक बंगळूरांत रावतात.

**कथांचीं पुस्तकां :**

१. अंकुरा
२. लंगारू
३. हुली सावली
४. मट्टो सामसारा
५. घाचर घोचर

**कादंबरी :**

१. इन्नू ओंड्डू
२. ओंडू बाडी कादालू



## सर्गेस्त मघश्याम केशव नायक यादस्तीक साहित्य पुरस्कार

जैतीवंत

## मार्कोस गोन्साल्वीस

आर्लें, राय

- –६ जुलय, १९७७ वर्सा जल्म, राय
- –मुळावें शिक्षण कोंकणींतल्यान
- –सुनापरान्त दिसाळ्याचो प्रतिनिधी म्हण नोकरी करता
- –बारा वर्सांचे पिरायेर सावन कवितेंतल्यान बरोवपाक सुरूवात
- –सुनापरान्त, गुलाब, द गोवन रिव्हिव, व्ही. इश्ट, दर म्हयन्यांची रोटी, जिवीत, गोंयचो आवाज, गोंयकार, बिंब, कोंकणी, आमचो आवाज आदीं नमाळ्यांचेर बरपावळ उजवाडाक आयल्या.
- –कविता, कथा, निबंध, एकांक, चरित्र सारके, संशोधन सारके साहित्य प्रकार खेळयल्यात.
- –फाटलीं १० वर्सां सावन आपलीं एकांकी, अखिल गोंय पांवड्यावेले सर्तींनी सादर करून इनामां मेळयल्यांत.
- –रोमी आनी देवनागरी हे दोनूय लिपयेंतल्यान बरप करतात.

### माचयेर....

- –आमचें झुंज, आमी फटोवल्यात, होच तो परिणाम, मार फातर, संवसार सोंपतलोच, फूल पिसडटा तेन्ना, केन्ना पालोवतलो हो उजो, काळखाची वाट सरू जाल्या, काळीं कुपां, एक खिण–एक शीण, मुळां, किळांच, मुक्ती आदीं हीं गाजिल्लीं एकांकी आसात.
- –मार फातर आनी आमी फटोवल्यात हीं एकांकी ऑडियो केसिटी रुपान आयल्यांत.
- –गोवा कोंकणी अकादमीन प्रकाशीत केल्ल्या आनी जुझे साल्वादोर फर्नांडिसान संपादीत केल्ल्या वेंचीक एकांकी लेखकांच्या '६–एकांकी' ह्या खास पुस्तकांत काळखाची वाट सुरू जाल्या हे एकांकीचो आस्पाव जाला.
- –गोवन रिव्हिवू आर्ट फावंडेशन(मुंबय) संस्थेन आयोजीत केल्ले एकांकी बरोवपाचे सर्तींत दोन खेप पुरस्कार फावो जाल्यात.
- –साबार नेमाळ्यांचेर एकांकी प्रकाशीत जाल्यात.
- –२००८ वर्सा युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत एकांकीचेर पेपर सादर केला.

### पुस्तकां आनी हेर....

- –१९९७ वर्सा(कॉलेजींत शिकतना) ज़ोगलां हो पयलो एकांकी झेलो प्रकाशीत केलो.
- –२००२ वर्सा थेंब्या–थेंब्यांत(कविता),
- –२००५ वर्सा भकिता(चरित्र),
- –२००६ वर्सा संघर्श(एकांकी झेलो),
- –२००७ वर्सा फ्रेंक डफ –मिशनर(चरित्र),
- –२००८ वर्सा कणसां(कथा झेलो),
- –२०११ वर्सा तरणी शिंम(ललित निबंध),
- –२०११ वर्सा सृश्टी(संपादीत कविता झेलो)
- –२०१३ वर्सा क्रिस्तांवांचो जागोर हें संशोधन केल्लें पुस्तक.

### पुरस्कार

- –१९९८ वर्सा 'जोगलां' ह्या एकांकी पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार
- –'संघर्ष' ह्या एकांकी पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार
- –'तरणी शिंम' ह्या ललित निबंधाच्या पुस्तकाक थॉमास स्टिफन्स कोंकणी केंद्राचो साहित्य पुरस्कार
- –'गुलाब' मासिकाचो २०१३ वर्सांतलो उत्कृश्ठ बरोवपी पुरस्कार
- –दाल्गादो कोंकणी अकादेमीचो २०१३ वर्सांतलो युवा साहित्यीक पुरस्कार
- –'जिवित' नेमाळ्या वतीन फादर आंतोन पेरेरा यादस्तीक पुरस्कार
- –२०१२ वर्सा मडगांव फ्रंटाचो पुरस्कार
- –निबंध, कथा आनी कवितां खातीर साबार राज्य पांवड्यावेले पुरस्कार

### हेर....

- –उमाळे आनी कणसां ह्या नेमाळ्यांचे संपादक आनी प्रकाशक आसात.
- –तरणाट्या बरोवप्यांक प्रोत्साहन दिवपाच्या हेतान साबार साहित्य प्रकारांच्यो सर्ती आयोजीत केल्यात.
- –सॅण्डकोस पब्लिकेश चलयतात. हे प्रकाशन संस्थे वरवीं पुस्तकांय प्रकाशींत केल्यांत.
- –राय गांवात, आपले कलेचो भौसा खातीर वापर करतल्यांक दर वर्सा सॅण्डकोस पब्लिकेशना वतीन पुरस्कार भेटयता.

*****



# १६ वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन साहित्य निर्मणेचे प्रक्रियेंत साधना जाय

## अध्यक्षीय उलोवप

**नूतन साखरदांडे**
(संमेलनाध्यक्ष)

माचयेवयले मानेस्त तशेंच सभाघरांत बशिल्ले ज्येश्ठ तशेंच नवोदीत युवा साहित्यिक, सगळ्यांक म्हजो काळजांसावन नमस्कार.

१३ डिसेंबर २०१४. आयज १६व्या युवा साहित्य संमेलनाचे माचयेर अध्यक्ष म्हण उबें रावताना म्हाका ह्या मानादीक पदाची जितली खोस जाल्या तितलोच अभिमानय भोगला. इश्टांनो, हांव जाणां शणै गोंयबाबान आमच्यांत जागयिल्ल्या कोंकणी भाशेच्या स्वाभिमानाची कीट फूंक मारीत आमचे फाटले पिळगेंतल्या निस्वार्थी निश्ठावान म्हालगड्यांनी सतत पेटयत दवरली. हे सासायेक स्मरून तेच पुण्यायेच्या म्हालवजार हांव तांच्या कार्याकडेन नतमस्तक जातां. म्हाका आयज हो अध्यक्षपदाचो मान फाव जाला ते खातीर म्हज्या फुडल्या पिळगेच्या साहित्यीकांक हांव अंतस्कर्णांतल्यान उलो मारून सांगतां, भावांनो आनी भयणिनो ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेते सर्गेस्त रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी सदांच एक दीपस्तंभ जावन आमकां मार्गदर्शन केलां. केन्ना आमची तोखणाय केल्या तर केन्ना आमकां खुबळावन घाल्यांत. ताणी सदांच आमकां सांगलें, जेन्ना जेन्ना भाशेखातीर संघर्ष करपाचो वेळ येता तेन्ना तेन्ना लेखकान आपल्या हातांतली लेखणी सकयल दवरून मार्गार येवपाची तयारी दवरपाक जाय. ते म्हणटाले, A writer should be a fighter. आमच्या आवय भाशेचेर संकश्ट आयलां तेन्ना लेखणेची तरसाद करून आमच्या म्हालगड्यांनी आपले अधिकार झोमून घेतल्यात. ह्या अधिकारांची राखण करपाची जापसालकी आतां तुमच्या खांदार आसा.

'गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो,
जेन्ना आवयन मारलो उलो तेन्ना तुमी रावले उबे'

हें कवीवर्य सर्गेस्त मनोहरराय सरदेसायांचे पद गोंय शाहीर उल्हास बुयांव हाणी आपल्या खणखणीत आवाजांत म्हणून कितल्याशाच सभांनी, परीशदांनी आनी संमेलनांनी उपाट भरिल्ल्या माटवांत स्फूर्त हाडल्या. असल्या कांय गजालींची आमी गवाय आसात.

इश्टांनो, आमकां हेंवूय खबर आसा, खंयचीय चळवळ वा संघर्ष हो तरणाट्यांकडल्यानूच जाता. गोंय ताका आडवाद ना. १९६१ त गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना त्या होमखणांत उडी घेतिल्ले सुटके झुजारी तेन्ना तरणाटे आशिल्ले. १९६७ त गोंयचें भवितव्य थारावपाक ओपिनीयन पोल घेतलो तेन्ना गोंय वेगळें राखून दवरपाक वावुरपी तरणाटेच आशिल्ले. १९८६ त कोंकणी राजभास करपाक आनी गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळोवपा खातीर जें ५५५ दिसांचें आंदोलन चल्लें तेन्ना आमी तरणाटीं आशिल्लें आनी ही सांखळ अशीच चालू उरत २०११ वर्सा गोंय सरकारान प्राथमिक शाळांनी इंग्लीश माध्यम करपाच्या धोरणा आड 'इंग्लीश व्हाय, मायभास जाय' म्हणत रस्त्यारस्त्यांनी घोशणा करीत निशेध परगटावपी तुमीच तर ते तरणाटे. जेन्ना जेन्ना कोंकणीचेर हावळ आयली आनी आमच्या फुडाऱ्यांनी आमकां उलो

मारलो तेन्ना तेन्ना आमचेच आवयचेर संकश्ट कोसळिल्ल्यावरी आमी धांवून गेलीं. जांव मागीर तें कोंकणी प्रजेची आवाजाचें राजभास आंदोलन वा शिक्षणिक माध्यम धोरणाचें आंदोलन. आनी एक जाणा जायात आमचीं हीं झुजां केन्नाच निश्फळ थरलीं ना. जैत अशी हातासत गेली. आनी हांव खात्रीन सांगतां, शिक्षणीक माध्यमाच्या निर्णयांत लेगीत आमी जैतिवंत थरतलीं आनी तो दीस पयस ना अशें म्हाका अंतस्करणांतल्यान दिसता. कित्याक तर ह्या झुजांत टीमीचो वांटो आसा. तरणी पिराय तुमची आनी सळसळटें रगत. एका वेळार आमीय उकतायतालीं तीडक अन्यायाआड. तुमच्या भुजांत आसा तशें बळगें आनी नव्या नव्या विचारांनी सतत जागृत उरपी तुमची विश्व व्यापक मानसिक नदर. कोंकणी भास आनी साहित्याच्या उदरगती वरवी मळब वेंगावपी हावेसाची स्फूर्त तुमच्यांत येवूं अशी हांव सुरवेक उर्बेभरीत प्रार्थना करतां.

गोंय आमचें मूळपीठ. कोंकणी आमची भास / कोंकणी संस्कृताय, आमच्या जाणट्यांली मिरास. बाकीबाब बोरकारांचीं हीं उतरां आमच्या शिराशिरांल्यान साद घालतात. तो साद आमकां वगी बसपाक दिना. देखूनच पुंडलीक नायक हाणी शिटकावणी दित म्हणिल्लें, ***आमी कोण ... हाची जाप तुमकां काळूच दितलो अशें आमी म्हणचेनात ती आमीच दितले / वेदनांचो आख्खो दर्या जाणी मोन्यानी पिवन वडयला ते आमी / तांबडे मातयेकडचें इमान जाणी आजून घाणाक दवरूंना ते आमी.*** हय खरें, आमी नीज गोंयकार. हें गोंयकारपण सांबाळून उरपा खातीर आमकां आमची अस्मिताय राखून दवरपाक जाय आनी कोंकणी भास सांबाळून दवरली जाल्यारूच ही अस्मिताय राखून उरतली. जाणा जायात कोंकणी भास राजभास जाली म्हणून गोयांक घटक राज्याचो दर्जो मेळपाक पावलो आनी आमी जेन्ना गोंयाक खाशेलो दर्जो मागतात तेन्ना ह्या राज्याची कोंकणी ही ते मागणेचो एक गुण थारता.

हो आमचे सरभोवतणचो सैमान नटील्लो काणकोणचो वाठार. ही पांचवीचार झाडां आनी खळखळून व्हांवपी दर्यो.

सुर्या सुर्या म्हाकां तुजो उजवाड दी  
संवसारांतल्या सगळ्यां खातीर म्हाका तुजें जळप दी  
दर्या दर्या म्हाका तुजी खोलाय दी  
ह्या संवसारात जियेवपाक  
इल्ली तरी सुख थंडाय दी.

केन्ना तरी म्हजे कडल्यान निर्माण जाल्ल्या कवितेंतलीं हीं उतरां आयज अचळय ओंठार येतात. विशेक वर्सां फाटीं म्हणजे तरणी पिरायेचेर तयार जाल्ली ही कविता. आमकां पिशें लावपी हो दर्यो. कवी रमेश वेळूसकाराच्या कवितेंतल्यो ह्यो ओळी पळयात –

रंगलीं कुपां दर्या मुखार  
वयतना गे सांग  
ल्हारां ल्हाराक झांजरली गे  
पैजणांची झांज.

काणकोण म्हाल म्हळ्यार कोंकणी मनशाची दगदगती मशाल. लोककलेचें दायज केळयत नामनेक पाविल्लो हो वाठार. पूर्वापाठ तोंडात आनी ओंठात घोळत उरील्ली ही लोककला अस्सल निजाची. होळी, शिगमो, जागोर खेळपी तशेंच धालो आनी फुगड्यो घालपी कितलेशेच लोककलाकार हेच भुयेंत जल्मले आनी काणकोणची कीर्त गोंयभर पावयली.

म्होवाळ उतरांनी आपलेपण शिंवरपी काणकोणच्या मनशाचो आग्रो मोडप सहसा शक्य ना

देखून हे दोन दीस आमी आनी तुमी तांचे आदरातीथ्य घेवंया. हो सैम नियाळटना मनशां मनशां भीतर भरसून आपलेंपण निर्माण करूंया आनी तातूंतल्यान साकारूया आमचे नवे ताल्ल साहित्य. मागीर कवितांचे पीक येवंदी, कथा कादंबरीचीं बीयां पुंजावया, जातूंतल्यान रुजवणां येवंदी आमच्यो साहित्य पीकावळी, नाटकाचे आनी एकांकीकांचे विशय वेंचून काडूया ज्या नाटकांतल्या प्रदर्शीत जातले विचारांवरवी समाजांत थोडी जागृती हाडुया, आमचें कितें चुकता बी जाल्यार मार्गदर्शकां कडसून सुदारून घेवंया आनी हें युवा साहित्य संमेलन फुडल्या वर्सभरयाच्या साहित्यिक वावराचो पुरूमेंत करून दवरूंया.

म्हज्या तरणाट्या साहित्यिकांनो, हेच खातीर आसतात असलीं संमेलना आनी मेळावे. आमीय अशींच घडल्यांत. पस्तिशेक वर्सां फाटीं आमी जेन्ना नवोदीत आशिल्लीं तेन्ना अपुर्बाय प्रकाशन, वळवयचे वतीन बायलां खातीर खाशेले साहित्य मेळावे घडोवन हाडपाचो व्याप हेमा नायक हाणी आपल्या भुजार घेतिल्लो. तातूंतल्यान बाल साहित्यिकाची एक फौजच तयार जाल्ली जांतूंतल्यान कितलेशे जाणांक आयज आपल्या साहित्यीक निर्माणे खातीर वेगवेगळ्या संस्थांच्या वतीन प्रतिश्ठेचे भौमान आनी पुरस्कार फावो जाल्यात. राज्य तशेंच केंद्रीय सरकाराच्या पुरस्कारांचोय बी बरेचजाण मानकरी जाल्यात. हांव हें कित्याक सांगतां, तर आमी साहित्यांत जें सातत्य राखलें आनी कोंकणीचेर खर निश्ठा दवरली ताचो हो परिणाम. त्या मानान तुमी खऱ्यांनीच भाग्यवान. फाटलीं १५ वर्सां हें अशेच तरेचें युवा साहित्य संमेलन गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांत जाता तातूंत तुमच्या साहित्यीक कार्याचो गौरव जाता, ज्येश्ठ साहित्यीकां कडसून मार्गदर्शनाचो लाब घेवंक मेळटा. फाटलीं वीस वर्सां कोंकणी भाशा मंडळ युवा महोत्सव घडोवन हाडटा. तातूंत तरणाट्यांच्या कला आनी साहित्यिक उमाळ्यांक वाव मेळटा. ते भायर सरकारच्या वतीन युवा सृजन पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमीचो युवा चैतन्य पुरस्कार आसा. आमचें अपुरबायेचें कोंकणी दैनिक सुनापरान्त हातूंत आयताराक साहित्यीकांचे साहित्य उजवाडाक हाडून दुसऱ्या आयतारा ताचेर समिक्षात्मक आपरोस उजवाडाक हाडपाचें काम जाता. मंगळूरचे फाकिवंत कवी भौ. मॅल्वीन रोड्रीगीश दर वर्सा 'कविता फेस्त' घडोवन हाडटा तांतूत कितलेशेच तरणाट्या कवींक संद मेळटा. साहित्य अकादेमी दर वर्सा युवा साहित्य पुरस्कार दिता. युवकां खातीर खाशेल्यो साहित्यीक कार्यावळी आयोजित करता. तुमच्या वांट्याक हें इतलें येता तरणाट्यांनो. तुमी ह्या सगळ्यांक कसो प्रतिसाद दितात आनी दितलीं ताचो विचार करात. कोंकणी आवयचो हो तुमकां उलो आसा, जायात जागे आनी तुमच्या नव्या ताल्ल विचारांनी कोंकणी भाशेक समृद्ध करात.

एका काळार आमकां कोंकणी कथा, कविता वा साहित्याचे हेर प्रकार कशे बरोवचे हे विशीं अजिबात गिन्यान नाशिल्लें. ताचें कारण म्हळ्यार कोंकणींतल्यान फावो तितलें साहित्य निर्मणीच जायना आशिल्ली. कोंकणीक १९७५ त जेन्ना साहित्य अकादेमीची मान्यता मेळ्ळी तेन्ना कोंकणी हेर भासांच्या पंगतीक वचून बसली आनी तेन्ना हेर भाशेक साहित्यीक आनी व्याकरणीक नेम बी सगळे लागू जाले आनी ताका लागून आतां साहित्य म्हण हेर भासाक जे नेम लागतात तेच नेम कोंकणी भाशेकूय लागू जातात आनी देखूनच आमकां आतां खंयचोय साहित्यीक प्रकार बरयतना वा ताचेर व्यासपीठावयल्यान चर्चा करताना शादूरसाण बाळगुची पडटा.

हांगा जमिल्ल्या सगळ्या युवा साहित्यीकांनो, युवा साहित्य संमेलन हें तुमचें संमेलन. तुमच्या साहित्यीक विश्वाक आकार मेळपा खातीर घडोवन हाडिल्ली ही एक भांगराळी संद. तुमी तिचो बरे तरेन लाब घेवचो हे तुमचे कडेन मागणें. हांगा आसात कथा, कविता, निबंद, समिक्षा ह्या साहित्याच्या विविध प्रकारांच्यो कार्यशाळा. तातूंत मार्गदर्शन करपी साहित्यांतले ज्येश्ठ साहित्यीक, अणभवी साहित्यीकांलागीं चर्चा करपा खातीर पडवी आसा. हे पडवेंत तुमचे भेटेक येतले कोंकणीतले अणभवी साहित्यीक. दर वर्सा भशेन अंदूय बी अश्या संमेलनलांतल्यान वयर सरिल्ल्या एका नवोदीत साहित्यीकाचें पुस्तकाचें प्रकाशन. एका नवोदीत साहित्यीकाचो भौमान तशेंच ताची मुलाखतय तुमकां आयकूंक मेळटली. ह्या सगळ्याची तुमच्या गिन्यानाक भर पडल्या बगर रावची ना. देखून हे दोन दीस तुमी मना विचारांसयत ह्या माटवांत वावरात. तुमी सगळीं साहित्यमय जातलीं. ना जाल्यार हरशींच तुमची नदर नेटाचेर आनी बोटां व्हटसेपाचेर. थंय कॉपी पेस्ट करच्या बदलाक सर्जनशील साहित्याची निर्मणी करप. आपणे स्वता निर्माण केल्ल्या साहित्याची गोडी वेगळीच आसता.

आयचे घडकेक आमी कोंकणीच्या उदरगतीच्या पावंड्यार आसात. साहित्यीक मळ आनीक लकलकीत करपा खातीर तुमी व्हडलीं धेपां मारून धांवपाची गरज आसा. पूण वगीच संख्यात्मक लिखाण केलें म्हण जायना तर तें गुणाच्या कसाक लागचें पडटलें. देखूनच तर सगळ्यांत पयलीं गजाल म्हणल्यार आमी खूब वाचपाक जाय. आपणे बरयिल्ल्याचोच थातोमातो केलो म्हण जायना. ज्येश्ठ लेखकांचें साहित्य वाचपाक. कोंकणी बरोबरच बाकीच्याय भासांतले साहित्य वाचपाची गोडी लावन घेवपाक जाय. वाचनातल्यांन आमकां वेगवेगळया गजालींचें गिन्यान मेळटा. साहित्य अकादेमी हेर भासांतले साहित्य कोंकणींतल्यान अणकारीत करून घेवन तें उजवाडाक हाडटात. संविधांनाच्या आठच्या परिशिष्टांत समाविश्ठ आशिल्ल्या सगळ्या भासांचे अणकार ते ते भाशेंत उजवाडाक हाडपाची ही प्रतिक्रीया. हाचो लाब घेयात. आमकां आमचो देश कळपाक पावतलो. यू. आर. अनंतमूर्ती, प्रतिभा राय, गिरीश कर्नाड, इंदिरा गोस्वामी, विंदा करंदीकर अशे कितलेशेच जांच्यो साहित्यकृती तुमकां वाचपाक जाय. हातूंतल्यान आमकां साहित्य लेखनाचे सृजनात्मक प्रक्रियेचें गिन्यान मेळपाक पावतलें. वाचना इतलेंच महत्वाचें आसा तें कार्यावळींतल्या वक्त्यांचीं भाशणां आयकूवप. गोंयांत हालीं कोंकणीच्यो साहित्यीक कार्यावळी जायत्यो घडून येतात. पुस्तक विमोचन सुवाळो, तशेंच वेगवेगळ्या संस्थांच्या वतीन चर्चा, भासाभास बी जायत आसतात. असल्या कार्यवळींनी आपली हाजेरी लावप गरजेचें. त्या कार्यावळीच्या निमतान मानेस्त उलोवपी जे अर्थपूर्ण विचार मांडटात तातूंतल्यान जरूर मार्गदर्शन जावंक येता हें लक्षांत धरात. तशेंच आनीक एक लक्षांत दवरपाचे अत्यंत गरजेची गजाल, ती म्हळ्यार संगीताक आनी बाकीच्या कलांक जेतरेची साधना लागता तशी साधना साहित्यीकाकय लागता हें विसरूं नाकात. आपल्याक दिसलें आनी आपणे बरयलें अशें जावचे न्हय. एखादी कथा वा लेख कागदार कांय न्ही करून बरोवंक येता. पूण ताची तयारी करपाक खूब वेळ वता हें लक्षांत घेवचें खंयचीय साहित्यकृती जावं ती कविता, कथा, नाटक, एकांकी – मनांत विशय पक्को जाले बगर, धव्यार काळें करचे पयलीं बरें चिंतन करचें पडटा. तांतूंतल्यान मागीर जी निर्मिती जाता तीच साहित्य म्हण

आकाराक येता. ताका लागून दरेका साहित्यिकान पयलीं आपलो आपूणच वाचक जावचो आनी ज्यो चुको मेळटात त्यो सुदारच्यो. सर्गेस्त पांडुरंग भांगी हे कोंकणींतले एक ज्येश्ठ कवी आसले. चार ओळींचे तांच्या कवितेंत लेगीत केदो अर्थ भरिल्लो आसतालो !

चंद्राची कोर कशी
आबोलेचें तोर
आश्विनांतलें चांदणे बाये
वयावेलें पोर.

ह्या चार वळी रचपाक तांकां रचपाक कितलें चिंतचें पडलां आसतलें हें तुमीच चिंतात.

आनीक एक गजाल सांगपाक सोदतां, चड करून तुमकां नवे पिळगेच्या उदेत्या साहित्यिकांक, तुमची नदर मात्शी वेगळ्या विशयांकडेन वळवपाक जाय. मोग, लग्न, मोगभंग, असले विशय आनी कथा खुब जाल्यो. ह्या विशयां भायर आनीकूय कांय सामाजिक प्रश्न आसात जांचो आस्पाव आमच्या लेखनांत जावप सामकें गरजेचें आसा. कांय वेळा आमकां थोडोसो निवळसायेचो गंभीर विचार तकलेंत घोळवचो पडटलो. समाज प्रबोधन करपा खातीर न्हय पूण समाजांतले कांय त्रासदायक प्रश्न, कठीण समस्या सुटनाशिल्ले संघर्श असल्या विशयांकय हात घालपाक जाय. कथा, नाटक, सिनेमा, हातूंत संघर्श आसपाक जाय जसो तो आमच्या जिवितांत आसता आनी अखेर हें साहित्य म्हणल्यारच आमच्याच जिवितांचे पडबिंब न्ही ? अशे विशय आमकां समाजांत आयऱ्या पयऱ्यान सापडटात जांचेर बरे तरेन साहित्य संस्कार करून वाचप्यांक दिवंक येता. आमकां जाय ती निरिक्षण शक्त आनी संवेदनशीलताय. देखी दिवपा गेल्यार खुब आसात. कोण एखादी आवय ल्हान भुरग्याक घेवन जीव दिता. दोगी जुवान भयणी पुला वयल्यान उदकांत घालून घेतात. कोणा चलयेक लग्नाचें उतर दिवन ताचेकडसून पयशे भांगर भी घेवन तिचो खून करून पळ काडटात. तरा तरांच्यो आत्महत्या आनी विचित्र पद्धतीचे खून. काळजां पिवळ घालून न्हिन्नळून उडोवपी हे विशय. येदेंशें गोंय पूण काळजांक दुख भोगवपी घडणूको कितल्योशोच. ल्हान ल्हान पिरायेच्या चलयांचेर जावपी बलात्कार, तांचो केल्लो विनयभंग. समाजांत दोळ्यात दिश्टी पडपी अनैतिकताय, व्यसनांच्या भकीक पडिल्ले चले तशेंच चलयो. समाजांतल्या अशा भिरांकूळ गजालींचेर मंथन जावपाक जाय. आमकां आशय जाय तसो मेळटा. फकत गरज आसा ती तंत्र आनी वातावरण निर्मिती कशी करपाची तें समजून घेवपाची. इश्टांनो देखूनच तुमकां सांगन दिसता, तुमचें साहित्य बरे तरेन फुलतलें जाल्यार दिसपट्ट्यो घडटल्या गजालींचेर आनी जिवीतांतल्या नव्या नव्या मळाचेर बारीकसाणेन नदर भोवंडावन आपले अणभव विश्व जाता तितलें विस्तृत आनी समृद्ध करपाक जाय. 'कथाशिल्प' पुस्तकांत सर्गेस्त लक्ष्मणराव सरदेसायान म्हणलां, झाडांक जितलें उदक–मातयेचें म्हत्व तितलेंच कथाकाराच्या जिवीतांत अणभवांक म्हत्व आसा. अणभव नाशिल्ल्या कथाकारांचे मन व्हांवत वता. अणभव जितले खर वा कोडू तितली कलाकारांच्या व्यक्तिमत्वाक धार येता.

पूण हांव निराशावादी न्हय. हालिंसराक युवाकांचें साहित्य वाचता तेना तांच्या साहित्यांत असले विशय आस्पाविले दिसतात. चडकरून कथा साहित्यांत. काणकोणच्या जाल्ल्या रूबी रेजिडेन्सीची इमारत कोसळून पडिल्ल्या संदर्भांतल्यान एक दोन कथा वाचल्यो. पर्यटनाच्या नांवाखाला जी अनैतीकता पातळत चल्ल्या त्या संदर्भांतल्यान जोफा गोन्साल्वीसाची एक कथा हालींच सुनापरान्तांत

वाचली. समाजाक जें कितें वायट बरें घडटा तें पारखूपाची नदर आयच्या युवा साहित्यिकांक आयल्या हाची म्हाका जाणीव आसा. तरी लेगीत तुमच्याकडसून आमच्यो खूब अपेक्षा आसात, त्या अपेक्षांची पूर्ती तुमी करची अशी हांव इत्सा बाळगितां. आयचो काळ हो नव्या तंत्रज्ञानाचो काळ. इंटरनेट, फेर्सबुक ह्या प्रसार माध्यमांची सवलत तुमकां सोंपेपणान मेळ्ळ्या. ताका लागून तुमी गिन्यानी आसत जाल्यार तुमचें साहित्य खिणाभितर जगभर पावूंक येता. पूण निवळ आपल्यापूरतोच सुवार्थी हेतु बाळगिनासतना तुमी ज्येश्ठ साहित्यीकांचे बऱ्यांतलें बरें साहित्य ह्या माध्यमावरवीं जगांत पावोवपाचो यत्न करपाक जाय, जो अजून मेरेन जाल्लो दिसना. हांव हें इतल्याच खातीर म्हणटां, ह्या नव्या तंत्रज्ञानाची आमच्या सारक्या लेखकांक संवकळ नाशिल्ल्यान आनी तें शिकून घेवपाची तशी पिराय ना उरिल्ल्यान हीं कामां तुमीं करचीं अशी आस्त बाळगिल्यार कितें चुकलां अशें म्हाका दिसना. ज्येश्ठांनी आपलो वेळ आनी श्रम दिवन कोंकणीची ही बुन्याद गडगंज करपाचो वावर केलो जाका लागूनच आयज हें सगळें तुमकां आमकां फावो जालां ताचे खातीर हें इतलें करप तुमी आपलें कर्तव्य समजूपाक जाय. तुमचे सारखे युवा पिळगेकडेन आमचे साहित्यिक मोटे आस्थेन पळयतात ताचो आदर राखपाचो इतलें सागून निमाणे कडेन इतलें म्हणून ह्या साहित्यिकांकडल्यान जितलें आपणाक मेळोवन घेवंक येता तितलें मेळोवन आपलें समृद्धतायेंत भर घालची. तुमी फुडाराचे मोठे साहित्यीक जाले बगर रावचे नात.

आनी वतां वतां हो धाकटुलोसो संदेश दिवपाचो मोह म्हज्यान आडावंक जायना. भावांनो आनी भयणींनो लक्षांत दवरात, आमचें साहित्यीक विश्व आपुण आनी आपल्या संवसारापुरतें अशें करून घेवं नाकात. साहित्यीकांक समाजांत भोंवतना आपली नदर आनी कान जागृत दवरून वावूरचें पडटा आनी तेच बरोबर दिसपट्टयो घडटल्या गजालींची ताका जाणीव आसची पडटा. फकत आपलें आनी शेजाऱ्या पाजाऱ्यांची न्हय. आमचो देश व्हडलो आसा. त्या भायर जगांतय कितलेशेच देश आसात. त्या देशांच्या सामाजिक वातावरणाचो आनी अर्थकारणाचो प्रभाव आमच्या संस्कृतायेचेर आनी समाजाच्या परिवर्तनाचेर आनी जागृतीचेर पडत आसता जाका लागून मनीसकायेचे सिद्धांतय बदलत रावतात. हें सगळें जाणा जावप साहित्यिकाक गरजेचें आसा. आनी तुमचे हे पिरायेचेर तुमकां हें शक्य आसा.

म्हजीं हीं उतरां तुमी आयकून घेतलीं म्हण खोशयेन हांव आमच्या कोंकणीच्या सगल्या पूर्वजांक स्मरतां आनी आमच्या तरणाट्यांक नवें नवें निर्माण करपाची बुद्धी दिवची म्हण पराथितां आनी म्हणटां –

आमच्या पुरसा आमकां पाव,
आमचें बरें जांव म्हण.

जय गोंय, जय कोंकणी !

*****

### शिश्टाचार समिती

| | |
|---|---|
| डॉ. जगमोहन सिंग | समिती सूत्रधार |
| प्रा. डॉमिटल डिसौझा | वांगडी |
| प्रा. तनुजा फळदेसाय | वांगडी |
| रामदास सावंत | वांगडी |

### जेवणखाण समिती

| | |
|---|---|
| डॉ. गिता वाळवेकर | समिती सुत्रधार |
| पद्मावती तुबकी | वांगडी |
| मनोजा नायक गांवकार | वांगडी |
| मनुषा वडार | वांगडी |
| प्रणिता पै भाटीकार | वांगडी |
| अंकिता नाईक | वांगडी |
| डेल्मा ट्रावासो | वांगडी |
| प्रितम पागी | वांगडी |
| चेतन भांडारी | वांगडी |
| रामेश्वर देसाय | वांगडी |

### चल्यां राबितो समिती

| | |
|---|---|
| प्रा. कुणाल बोरकार | समिती सुत्रधार |
| प्रा. अर्जुन कांबळे | वांगडी |
| प्रणव टेंगसे | वांगडी |
| रोशन पाटील | वांगडी |
| सौरभ शेट देसाय | वांगडी |
| अवेश पात्रो | वांगडी |
| मयुर नायक गांवकार | वांगडी |
| तेजन काळे | वांगडी |
| आनंद वेळीप | वांगडी |

### चलयां राबितो समिती

| | |
|---|---|
| प्रा. पूर्णा फळदेसाय | समिती सुत्रधार |
| प्रा. निशिगंधा नायक गांवकार | वांगडी |
| मयुरा नायक गांवकार | वांगडी |
| मनिषा भेटकर | वांगडी |
| अलिमा फर्नांडीस | वांगडी |
| श्वेता पागी | वांगडी |
| सियोना डायस | वांगडी |

### येरादारी समिती

| | |
|---|---|
| प्रा. अकिब सय्यद | समिती सुत्रधार |
| रवी कोमरपंत | वांगडी |
| मंजुनाथ भैरेली | वांगडी |
| विशाल गावडे | वांगडी |
| सेड्रीक फर्नांडीस | वांगडी |
| जोझेफ फर्नांडीस | वांगडी |
| नवदीप वेळीप | वांगडी |

### पार्किंग समिती

| | |
|---|---|
| भालचंद्र गांवकार | समिती सूत्रधार |
| दिलीप नायक गांवकार | वांगडी |
| कुश्ट वेळीप | वांगडी |
| राजेंद्र वेळीप | वांगडी |
| चलेश नमशीकर | वांगडी |
| रतेश पागी | वांगडी |
| मल्लिकेश पागी | वांगडी |
| राम वेळीप | वांगडी |
| नवीन शेट्टी | वांगडी |

### उक्तावण आनी समारोप सुवाळो समिती

डॉ. सी. पी. हिरेमट — समिती सुत्रधार
डॉ. रुपा च्यारी — वांगडी
प्रा. ब्रिजेश शेट देसाय — वांगडी
सर्वेश पै — वांगडी
भूशण वेळीप — वांगडी
मयुर काणकोणकार — वांगडी
उतिशीया नायक गांवकार — वांगडी
व्हेलेंसी व्हाज — वांगडी
दर्शनी कोमरपंत — वांगडी

### फोटोग्राफी आनी व्हिडीयोग्राफी समिती

प्रा. विविध पावसकर — समिती सूत्रधार
राजेश गांवकार — वांगडी
प्रितल फर्नांडीस — वांगडी
अपूर्व नायक गांवकार — वांगडी
तेजन काळे — वांगडी
रोशन पाटील — वांगडी

### माटोव आनी बसका मांडावण समिती

प्रा. संदेश देसाय — समिती सूत्रधार
प्रा. सावियो लैतांव — वांगडी
प्रा. प्रदीप कांबळे — वांगडी
सूरज कामत — वांगडी
प्रा. निलेश वेळीप — वांगडी
कृष्णा वाघोणकार — वांगडी
विठोबा गांवकर — वांगडी
तेजा पागी — वांगडी
शुभम पागी — वांगडी
आश्विता सावंत — वांगडी
जयेश भगत — वांगडी
रिसा फर्नांडीस — वांगडी

### प्रदर्शन समिती

प्रा. क्लॅन्सी बार्रेटो — समिती सूत्रधार
प्रा. तन्वी नायक — वांगडी
रेणुका कोमरपंत — वांगडी
सर्वज्ञा पै — वांगडी
मढोरा परेरा — वांगडी
प्रिया गांवकर — वांगडी
प्रेमजित वेळीप — वांगडी
अखिल पागी — वांगडी
तन्वी नायक — वांगडी
प्रिया गांवकर — वांगडी

### सूचोवणी समिती

डॉ. रुपा च्यारी — समिती सूत्रधार
प्रा. ब्रिजेश शेट देसाय — वांगडी
प्रा. सुविद्या कोमरपंत — वांगडी
ड्रेसिला फर्नांडीस — वांगडी
प्रिती कुडाळकर — वांगडी
नलिशा वेळीप — वांगडी
रेश्मा गांवकर — वांगडी
भरत गांवकर — वांगडी
रुपेश नायक — वांगडी
तेजस्वी पागी — वांगडी
सुहाना पैंगिणकर — वांगडी
दिक्षा नायक गांवकार — वांगडी

| | |
|---|---|
| वसुद्या खोलकर | वांगडी |
| समिक्षा पालेकार | वांगडी |
| जयेश भगत | वांगडी |
| मंजिता देसाय | वांगडी |
| सौरभ शेट देसाय | वांगडी |
| तेजन काळे | वांगडी |
| प्रणव टेंगसे | वांगडी |
| अपेक्षा उदेकर | वांगडी |

**सांस्कृतिक समिती**

| | |
|---|---|
| प्रा. जेनेट आराऊजो | समिती सूत्रधार |
| प्रिती कुडाळकर | वांगडी |
| शिल्पा भंडारी | वांगडी |
| प्रणव टेंगसे | वांगडी |

**परिक्षक संयोजन समिती**

| | |
|---|---|
| डॉ. प्रमदा देसाय | समिती सूत्रधार |
| प्रा. दर्शना पागी | वांगडी |
| व्हेलेंकनी व्हिएगश | वांगडी |
| अशा गांवकर | वांगडी |
| नलिशा वेळीप | वांगडी |
| अपेक्षा उदेकर | वांगडी |
| तुकाराम बाबदांग | वांगडी |

**आधार समिती**

| | |
|---|---|
| लॅरिसा फर्नांडीस | समिती सूत्रधार |
| मयुरा नायक गांवकार | वांगडी |
| मनोज धुलापगोल | वांगडी |
| शुभम कोमरपंत | वांगडी |
| सुवर्ण गांवकर | वांगडी |
| मयुर नायक गांवकर | वांगडी |
| तेजस खोलकर | वांगडी |
| सुमित बांदेकर | वांगडी |

**येवकार समिती**

| | |
|---|---|
| डॉ. सुचेता नायक | समिती सूत्रधार |
| प्रा. मनस्विका देसाय | वांगडी |
| प्रा. प्राजक्ता लोलयेंकार | वांगडी |
| प्रा. डेना प्रभू | वांगडी |
| अंकिता कोमरपंत | वांगडी |
| क्लॅरिया फर्नांडीस | वांगडी |
| सहय्या गांवकर | वांगडी |
| कृतिका च्यारी | वांगडी |
| स्नेहा पागी | वांगडी |
| मंजिता कळंगुटकर | वांगडी |
| निता | वांगडी |
| अनुशा | वांगडी |

# युवा साहित्य संमेलन
# संदीतल्यान स्फूर्त दिवपी उत्सव

**स्मिता चोडणेकार**
9764466817

युवा साहित्यीकांक युवा कोंकणी साहित्य संमेलन हो एक उत्सवच कसो. कोंकणी साहित्य फुलोवपाच्या हेतून मनयिल्लो उत्सव. युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आपल्या जिविताच्या १६ व्या वर्सांत पावल घालता. ल्हान भुरगो वाडटा आसतना आपले भितर जायत्यो नव्यो नव्यो गजाली आत्मसात करून घेता तेचपरीं कोंकणी साहित्य संमेलनानूय आपलेभितर जायत्यो नव्यो गजाली आस्पावन घेतिल्ल्यो आसात.

युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाकडेन म्हजो पयलो संबंद फोंडेच्या पी.ई.एस. महाविद्यालयांत आयलो. त्या संमेलनांत हांव खूब कितें शिकूंक पावलें. कथा हो म्हजो आवडिचो विशय. ही आवड निर्माण जावपाची कारणां जायतीं आसात. सांगूंक गेल्यार सोपचीं नात. साहित्य संमेलन म्हजेखातीर नवेंच आशिल्लें. साहित्य संमेलन म्हणल्यार कितें हें जाणून घेवपाचो हांवे यत्न केलो. जापोय मेळ्ळ्यो पूण म्हणटात न्ही दोळ्यांनी पळयल्यार मनशाक चड बरे तरेन कळटा. तीच गत म्हजी जाल्ली.

नव्या युवा बरोवप्यांची वळख जाली. साहित्यीकांची वळख जाली तेचप्रमाण मार्गदर्शकां कडल्यान साहित्य कशे तरेन फुलोंव येता ताचें मार्गदशन मेळ्ळें. दर एका सर्तींतले परिक्षक युवा बरोवप्यांक जें मार्गदर्शन दितात तें खूब मोलाचें आसता. तें मार्गदर्शन फकत युवा साहित्य संमेलना पुरतेंच मर्यादीत नासता. युवा बरोवप्यांच्या साहित्याचेर दर मार्गदर्शकाची नदर आसता आनी सतत ते मार्गदर्शन दित आसतात हें हांवे स्वत: अणभवलां.

१४ वें युवा साहित्य संमेलनूय म्हाका स्फूर्त दिवन गेलें. कथा बरोवप वाडत गेलें. उपरांत १५ वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात गोवा कोंकणी अकादेमीचे वेंचीक पुस्तक प्रकाशन येवजणे खाला म्हजें 'म्हूर्तमणी' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें.

गोवा कोंकणी अकादेमी युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या रूपान बरोवप्यांक माची दिता. ताचो कसो उपयोग करप हें दर एका विद्यार्थ्याचेर अवलंबून आसता. कांय नवे बरोवपी कला सर्तीखातीरच बरयतात. उपरांत ते बरोवपाचें सोडून दितात. आमी तरणाट्यांनी बरोवपांत सातत्य राखपाची गरज आसा. कोंकणी साहित्याचो परमळ जर सगळ्याक पातळपाक जाय जाल्यार लेखनात सातत्य आसप गरजेचें.

*****

# युवा साहित्य संमेलन
# एक दुवो, एक माची आनी एक जापसालदारकी

**तन्वी कामत बांबोळकार**
9764780497

कोंकणी चळवळ आनी तरणाटे हांचो संबंध हालींसराचो न्ही हें आमी सगळीं जाणात. चळवळीच्या आदीं सावन कोंकणी चळवळ आनी तरणाटे हांकां कोण वेगळे करूंक शकले नात. आज म्हालगडे जाल्ल्या तेन्नाच्या तरणाट्यांनी कोंकणी फकत भास न्हय तर ती चळवळ जावंक फावो म्हूण वावर केल्लो. तांकांच लागून आयज कोंकणी फ्रॉम नो व्हेर टु समव्हेर पावल्या. वावर खूप करपाचो उरला. इतल्यान कांयच जावंक ना. कोंकणी भास दर पावंड्यार संघर्श करीत आयल्या. ना म्हणल्यार तरी कोंकणीकूच न्हंय तर दर भारतीय भाशेक नव्या नव्या आव्हानाक तोंड दिवचें पडटा. अशा वेळार म्हालगड्यांक आस दिसता की फकत युवा पिळगेंत.

साहित्य घडोवप हाच्या परस भाशीक चळवळीक दिल्ले आनी खंयचेंय योगदान आसत अशें म्हाका दिसना. साहित्य घडोवप म्हळ्यार सासणा खातीर भाशे खातीर किदें तरी सांबाळून दवरप. तें साहित्य मागीर वेळाची परिक्षा पास जाता काय ना तें साहित्यिकाचेर आदारून, पूण आपल्या भाशेंत बरयन दिसप हीच गजाल त्या साहित्यिकाक त्या खिणाक खुप किदें दिवन वता. तो खीण ताका आपली मुळां सोदपाचो उलो मारता. तो खीण ताका आपल्या अस्मितायेची वळख करून दिता. हीच गजाल म्हाका म्हज्या कोंकणीन दिली. भुरगेपणांतलें मुळावें शिक्षण मराठीन जावन लेगीत कोंकणीन बरयन शें दिसलें हेंच म्हज्या कोंकणीचें व्हडपण. भुरगेपणात कितेंय बरयल्यार तुस्त जाता. पूण युवा अवस्थेंत पावना फुडेंच आतां किदेंय बरयल्यार खपचें ना हाचो अदमास सगल्यां सारखो म्हाकाय आयलो. आनी ह्याच अवस्थेतल्या साहित्याक पारखुपाची, जोखपाची, जापसालदारकी घेतली. कोंकणी चळवळींतलो एक सगळ्यांत म्हत्वाचो कार्यक्रम – युवा साहित्य संमेलन.

अकरावेक आसतना पयलेच खेप हांवे पिलार जाल्ल्या संमेलनांत म्हजी एक कविता धाडली. त्या संमेलनाक हांव पावलें ना, पूण म्हाका दुसरें इनाम मेळ्ळें. खोशी जाली खरी पुण संमेलन किदें कशें आसता तें मात पळोवंक मेळ्ळुं ना म्हण मातशी खंतुय भोगली. मनांत थारायलें, आतां संमेलनाक वतलें जाल्यारच साहित्य धाडप. आनी फुडें धेंपे म्हाविद्यालयांत शिकतना अंजू मीसीच्या मार्गदर्शनाखाला हांवे साहित्य संमेलनांत साहित्य धाडपाक तशेंच संमेलनाक वचपाक सुरवात केली. कांय वेळा इनामांय मेळ्ळीं, कांय वेळा मेळ्ळीं ना. पुण संमेलनांतलो सगल्यांत आवडीचो म्हजो वांटो म्हळ्यार दुसऱ्या दिसा कार्यशाळांत सहभागी जावप. त्या कार्यशाळांनी दर वेळा किदें ना किदें शिकुंक मेळटालें. बाकीच्यांचे सहित्य आयकुन हांव तांच्या तुलनेंत खंय आसा हें पळोवंक मेळटालें. म्हजें खाशेलपण, म्हजें वेगेळेंपण कितें, हेंय म्हाका ह्या कार्यशाळांनी होलमलें.

ह्याच कार्यशाळांनी खुप नाव्यो वळखी जाल्यो. नवे इश्ट – इश्टीणी मेळ्ळ्यो. तांच्या वांगडा केल्ल्या खबरांनी लेगीत खुप किदें शिकपाक मेळ्ळें. आतां मेरेन

सहभागी जाल्ल्या दर एका साहित्य संमेलनाच्या मुखेल सोयऱ्यांची उलोवपां आनी येवकाराध्यक्षांची उलोवपां तर दर वेळा मनाक उर्बा दिवन गेलीं. फोंड्या जाल्ल्या युवा साहित्य संमेलनांत पेडण्यांत कोंकणीचो बावटो हुबोवपी शशिकांत पुनाजी हांचें उलोवप आनी गेल्या वर्सा कुंकळ्ळ्यां संमेलनांत नव्या पिळगेकडेन कनेक्ट केल्लें निलबा खांडेकार हांचें उलोवप मनाक खुप भावून गेलें. संमेलनातल्या मुलाखतींनी तर एक दीस म्हाकाय थंय पावपाक जाय हो हावेस मनांत घालुन दिलो. माश्यां संमेलनांत चोपडेकार सरान राजय सराची घेतिल्ली हासयता हासयता दोळ्यांत दुखां हाडपी मुलाखत, म्हाका दिसता, ती पळयिल्ल्या सगल्यांकुच घट्ट याद आसतली.

संमेलनाच्या दर एका कवी संमेलनांत हांवे आनी मनरीजवण कार्यावळींनी लेगीत साहित्याचोच हँग ओवर उरतालो. थंयची मजा लेगीत साहित्यिक जावन वताली. खास करून जेन्ना गोंयचेच न्हंय तर मंगळूर सारकेल्या हेर कोंकणी प्रदेशांतल्यान आयिल्ले तरणाटे आमचे मुखार आपलें सादरीकरण करताले तेन्ना दिसतालें कितली पयस फांकल्या आमची कोंकणी, आनी हें संमेलन आमकां सगल्यांक लागीं हाडपी दुवो जाता म्हण संमेलनाचे उपकार मानचे परस हांव संमेलनाक सलाम करीन. फकत कोंकणी तरणाट्यांक साहित्यीक भासाभास करपाक एकठांय हाडप होच युवा साहित्य संमेलनाचो उद्देश उरूंक ना तर त्या तरणाट्यांक नवी माची मेळची म्हुण संमेलनाचे सुत्र संचालन लेगीत तरणाटेच करतात. संमेलनांत युवा साहित्यीकांची पुस्तकां उजावाडाक हाडप हो जो उपक्रम आयोजकांनी सुरु केला तातूंतल्यान स्वताक संमेलनाचेच प्रॉडक्ट मानपी युवा साहित्यीक आमकां मेळ्ळ्यांत. तातुंतलोच नरेश आयज साहित्य अकादेमीचो युवा साहित्य पुरस्कार जोडपी जाला हें सांगपाक खोस भोगताच तेच वरवीं नरेशा सारकीं हेर युवा साहित्यीक आमकां उर्बा दितात.

फोंड्या संमेलनात कविता सत्राचे संयोजन करपाची संद मेळटकच हांव इल्लें प्रोमोट जाल्ल्या वरवीं म्हाका दिसलें. संमेलन आमकां फकत सर्तकुच म्हणुन न्हय तर संमेलनाच्या आयोजनाचोच एक वांटो करून घेता ह्या भावनेन मनाक एक जापसालदारकी दिली. हें संमेलन आमचें, म्हज्या कोंकणीचें, ह्या संमेलनाची उदरगत म्हळ्यार म्हजी उदरगत, म्हज्या भाशेची उदरगत ही भावना आपसुक काळजांत निर्माण जाली.

दर वर्सा कवितेच्या कार्यशाळेंत सहभागी जाल्ल्यान गेल्या वर्सा गोंय विद्यापिठांत जाल्ल्या संमेलनांत समीक्षेच्या कार्यशाळेक बसचें कशें दिसलें आनी ह्या कार्यशाळेन कोंकणी मळार समीक्षेची कितली गरज आसा हाची जाणवीकाय करतनाच ती गरज वा तो उणाव आमी भरून काडुंक शकतात म्हणपाचें लक्षांत आयलें.

आयज जें किदें हांव बरयतां तें सगलेंच छापपाच्या हेतान बरयतां अशें न्हय, पुण दर संमेलनांतल्यान शिकिल्ल्यो गजाली म्हज्या बरपाचेर खुप प्रभाव घालुन वतात हें मात खरें. संमेलन कोंकणीक किदें जाय आनी कशें जाय हें शिकोवन गेलें, शिकयत आसा. संमेलनान म्हाका किदें दिलें हाचो आढावो घेवचे परस हाचें फुडें संमेलनाक आनी कोंकणीक हांव किदें दितलें होच विचार हांव करतां आनी दर एकल्या कोंकणी युवान करचो हीच इत्सा.

*****



# साहित्य संमेलन फुलतलें

मॅल्कम डिकॉस्ता
9765857228

युवा साहित्य संमेलन जेन्ना आमी म्हण्टात तेन्ना ह्या संमेलनाची आयज गरज आसा काय ? असो प्रश्न म्हज्या तकलेन येता. आयज तर कोंकणी साहित्याक बरे दीस आयल्यात आनी ह्या साहित्य संमेलनाची गरज आसा अशी म्हाका इल्ली इल्ली जाप मेळपाक लागल्या. हय, कोंकणी साहित्याक आयज बरे दीस आयल्यात हें खरें पूण साहित्य जर आमी पळयलें जाल्यार तें फकत कांय मोजकेच मनशां कडल्यान आयिल्लें दिश्टी पडटा. जे म्हालगडे सातत्यान बरयतात तेच बरयल्ले वा पुस्तकां उजवाडायल्ले पळोवंक मेळटा. आतां प्रश्न पडटा तो असो की फाटल्यान ही कोंकणी साहित्याची घुडी कोणे आपल्या खांदार घेवप आनी ती फुडें कोणे व्हरप ?

कोंकणीची सेवा करपाचें काम आमच्या तरणाट्यांच्या हातांतल्यान जावूंक जाय. पूण खंय आसात हे तरणाटे ? फकत मजा आनी धुमशणाच घालूंक आसतात ? काय फेसबूक वा वोटसेप असल्या आधुनीक तंत्रा बरोबर घुसपून उरल्यात ह्या प्रश्नांची जाप अर्दकुटीच उरता.

हांव फाटल्या १० साहित्य संमेलनात वांटो घेता आनी साहित्य बरयतां. हांवूच तर कितलेशेच विद्यार्थी कोंकणी साहित्यांत आपली रूची दाखयतात. युवा साहित्य संमेलनाचो मुखेल हेतू असो की नव्या तरणाट्यांनी फुडें सरून साहित्य दर्जेदार बरोवचें. फाटली कांय वर्सां हांव साहित्य संमेलन लागिच्यान पळयतां आनी दिसून येता की साहित्य संमेलनाचो हेतू इल्लो इल्लो पुराय जाल्लो दिश्टी पडटा. कितलेशेच नवे लेखक ह्या संमेलनाच्या माध्यमान फुडे येवन साहित्य रचतात. साहित्य संमेलनात मार्गदर्शकांनी दिल्लें मार्गदर्शन घेवन आपलें साहित्य फुडले खेपेक फुलयले दिश्टी पडटात.

स्वता म्हजो अणभव सांगतना म्हाका खोस भोगता की म्हाका साहित्याची रूची ह्या युवा साहित्य संमेलनान लायल्या. हांवे पयले खेप फकत आस्वादक म्हण संमेलनांत वांटो घेतिल्ले उपरांतय साहित्यकारांचे विचार मार्गदर्शकाचे मार्गदर्शन घेवन फुडलीं तीन वर्सां फाटोफाट कथा ह्या विभागात इनामां जोडलीं.

म्हजें साहित्य खंय चुकता, खंय बरें जाला, खंय आनीक सुदारूंक जाय, ह्यो गजाली म्हाका मार्गदर्शकां कडल्यान मेळत आसात. आतां हांव म्हज्यो कथा सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांनी छापून हाडटां आनी पयलें पुस्तक उजवाडाक येचपाच्या वाटेक आसा. हो जालो म्हजो अणभव. असो कितलेशेच जाणांचो आसतलो. नांवां म्हत्वाची ना पूण फाटलीं कितलीशींच वर्सां युवा साहित्य संमेलनान केल्लो वावर म्हत्वाचो आसा. नवें तरणाट्यांक आनी नव्या बरोवप्यांक एक माची दिवपाचो हो म्हत्वाचो वावर तोखणाय करपासारको आसा. २०० ते ३०० युवा साहित्यीकांक एकठांय हाडप आनी तांकां तांचे भीतर साहित्याची किट्ट पेटोवप हें काम आयज पासून खूब यशस्वी पद्धतीन

जालां. फकत साहित्यच न्हय तर विद्यार्थ्यांमदीं आशिल्ली कला भायर काडपाचें काम युवा साहित्य संमेलनाच्या सांस्कृतीक कार्यावळीन केलां.

हें सगळें पळयल्या उपरांत हांवे कांय पयलीं प्रश्न मांडिल्ले त्या प्रश्नांची जाप मेळटा अशें दिसता. हय. युवा साहित्य संमेलनाची आयज खूब गरज आसा.

खुबशे तरणाट्यांनी अजून फुडें येवंक जाय. जायत्यांक अजून साहित्याचें म्हत्व पटोवन दिवपाची गरज आसा. कोंकणी माचेची सेवा करप म्हळ्यार आपले आवयची सेवा करप हें सत्य तरणाच्याच्या तकलेंत घालपाचें काम जावंक जाय.

म्हाका एक सुचोवणी करचीशी दिसता. पयल्या सुवातेर साहित्य संमेलना एक दोन म्हयने पयलीं तरी आयोजन समितीन साहित्य रचपाचेर कार्यशाळा घेवंक जाय. साहित्य बरोवचे पयली ते कशें आसचें, विशय खंयचे घेवचे, घेतिल्ले विशय कशे हाताळचे, असले कांय प्रस्न नव्या बरोवप्याच्या तकलेंत आसतात ते सुटावे करचे.

हांव ह्या वर्साच्या गोवा युवा साहित्य संमेलनाक काळजांतल्यान यश आंवडेतां.

जय गोंय, जय कोंकणी.

*****

# युवा साहित्य संमेलन जैतीवंत जांव

कोंकणी भाशेच्या नवोदीत बरोवप्यांच्या साहित्यीक प्रतिभेक एक माची दिवपाचें काम, गोवा कोंकणी अकादेमी युवा साहित्य संमेलनाच्या माध्यमातल्यान फाटल्या कितल्याशाच वर्सां सावन करीत आयलां. आयज युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाक १६ वें वर्स लागता.

आयज मेरेनच्या काळांत, संमेलनान कितलेशेच लेखक कोंकणी सरस्वतीक भेटयल्यात. कोंकणी साहित्याचे चळवळीक कितलेशाच युवा तरणाटे युवा लेखकांची भर घाल्या. साहित्याच्या वेगवेगळ्या प्रकारांनी तरणाट्यांक मार्गदर्शन दिवन तांचे मदल्या साहित्यीक गुणांची दखल घेतल्या. ज्येश्ठ लेखक आनी तरणाटो हांचो सुमेळ युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या रूपान फाटल्या १५ वर्सां सावन घडत आयला. आनी हें अशेंच फुडें घडत रावचें.

ह्या संदीचो लाव घेवन, म्हज्या सारख्या तरणाट्या बरोवप्यांक एक गजाल सांगपाक सोदतां. चडशे फावट युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाची तारीख कळटकूच जायते जाण बरोवपाक सुरवात करतात. फकत सर्तींनी धाडपा खातीरच साहित्य रचचें न्हय. दुर्दैवान अशें घडटा. वर्सभर कांयच बरयनात आनी अचकीत संमेलना खातीर बरोवप जाता.

म्हाका धरून, हेर सगळ्या म्हज्या सारक्या युवा बरोवप्यांकडेन मागणी, ताणी फकत साहित्य संमेलना खातीरच बरोवन उपरांत ओगी बसचें न्हय. बरपाचे साणीर आपल्या विचारांचें गंध घासत रावचें.

अंदू युवा कोंकणी साहित्य संमेलन म्हज्या घरांत काणकोणांत आयलां, हाची उपाट खोस भोगता. काणकोणचो सैम आनी सुंदर वाटाराचो सगळ्यांनी आस्वाद घेवचो, सांत तेरेझा आनी मल्लिकार्जुन देवाच्या सासायेंत ह्या वर्साचें युवा कोंकणी संमेलन खूब येसस्वी जांव.

जय गोंय ! जय कोंकणी !!

# साहित्य निर्मणेक खोलायेन अभ्यास करूंया ...

**दिपराज सातोर्डेकार**
9923645256

जेन्ना खळयो, व्हाळ, न्हंयो, झरे व्हावन वतात आनी फुडें दर्याचे वा सागराचें रूप घेतात, ह्या सागराच्या कुसव्यान जायती माणकां, हिरे लिपून बशिल्ले आसतात. तरेकवार वनस्पत जी दिसपाक सोबीत आसता पूण ताची सोबितकाय केन्नाच लोकांमेरेन पावना तशाच तरेन विंगड विंगड वाठारांतले तरणाटे एका सुवातेर मेळटात असो हो साहित्याचो सांगड, युवा कोंकणी साहित्य संमेलन घालता अशें म्हळ्यार अतिताय जावचिना. कोंकणी साहित्याच्या मळार जायते नवे बरोवपी आपलें साहित्य लोकांमेरेन पावोवपाक धडपडत आसतात. कांय जाण खरेंच सागराच्या कुसव्यांत लिपिल्ल्या हिऱ्या-माणकांवरी आसतात. अशा संमेलनांतल्यान हीं माणकां-मोतयां लोकांमुखार येतात..

साहित्य आनी दर्जेदार साहित्य हांतून जमीन मळबाइतलो फरक आसा. जायत्या कवी संमेलनानी अशें पळोवंक मेळटा की आपली कविता सादर करून जाली म्हणटकच कवी लागलो आपल्या वाटेक. जर साहित्याचो दर्जो वाडोवपाक जाय तर दुसऱ्याचें आयकप वा वाचप  जावंकूच जाय. एक बरो वाचपकूच बरो लेखक जावं येता अशें जायते मानेस्त सांगतात. अशे जायते विशय आसात जांचेर बरोवपाक मळ उकतें आसा पूण बरयतना त्या विशयाचेर खोलायेन अभ्यास जावप खूब गरजेचें आसा. म्हालगड्यांचे विचार, तरणाट्या बरवप्याचे विचार, वांटेकार जाल्ल्या दर एक साहित्यीकाचे विचार ह्या साहित्य संमेलनांक एकठांय जातात.

युवा कोंकणी साहित्य संमेलनान जायते लेखक घडयले. सांगूक गेल्यार बळेरी खूब मोटी आसा. फकत गोंयापूरतेच न्हय तर कारवार ते मंगळूरान लेगीत या साहित्य संमेलनान आपलो वावर पावयला. एकाद्र्या विशयाचेर बरयल्ली लांब कविता उण्यात उण्या वळींनी, उतरांनी कशी बरोवं येता हें ह्या संमेलनान शिकयलें. ही एकूच अशी सुवात आसा जंय म्हालगड्यांचे विचार तुमकां आयकूपाक मेळटात पूण तूमचेय विचार मागीर ते स्वताच्या साहित्याचेर आसुंदी वा दुसऱ्याच्या साहित्याचेर, ते म्हालगड्यांमेरेन पावोवपाक मेळटात आनी ताचेर तांचे मत आयकूपाक मेळटा. हातूंतल्यान बरें समिक्षक घडचें अशी आस्त आसा. तें येवप खूब गरजेचें. तेन्ना दर एका तरणाट्याक सांगतां

तरणाट्या रे मार उडी
तरणाट्या पेटय चुडी
हुबय जैताच्या घुडी
पेटय तरणाट्यांच्यो चुडी
उलो घाल आलतडी
जावनी जागे पलतडी

*****



# लेखन आनी हांव

**डॉ. राजय पवार**
(कवी आनी नाटककार)

१६व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या निमतान येवपी यादस्तिकेंत 'लेखन आनी हांव' ह्या विशयाक धरून म्हजे अणभव कथन दिवपा विशीं पुर्णानंदान सांगलें आनी हे खेपेक यादस्तिकेंत कितेंतरी वेगळें बरोवपाचो योग आयलो. हांव आयज साहित्यीक म्हण घडूंक पावलों तो नेमको कित्याक लागून हाचेर विचार करतना सुरवात खंयची हो महत्वाचो प्रस्न आशिल्लो. मागीर सुरवाते सावनूच सुरवात करया !

हांव केन्ना सावन बरोवंक लागलों हें नेमकें सांगप कठीण. ल्हानपणा सावन म्हाका 'वाचपाची' संवय आशिल्ली. बाजारांतल्यान कसलीय वस्त कागदांत बांदून घरांत हाडली म्हणटकीच हांव रोखडीच ती पुडी सोडोवन तो कागदा कुडको वाचपाक बसतालों. वाचन आनी लेखन ह्यो एकामेकांक पुरक अशो गजाली. घडये वाचनांतल्यान स्वताचें चिंतन घडलें आसतलें आनी तें चिंतिल्लें बरोवंक घेतलां आसतलें. म्हजी पयली वयली रचना नेमकी याद जायना ... पूण सातवेक आसतना 'मामा घरा म्हजी आजी, पोरसांत रोयता तांबडी भाजी' अशी कितेंशी रचना रचिल्ली आनी म्हज्या प्रकाश बेहरे ह्या वर्गमित्रान 'तूं कवी जातलो' अशें म्हणिल्लें तितलें याद जाता. उपरांत आठवेक आसतना आमकां गोकूळदास मुळवी चित्रकला हो विशय शिकयताले. त्या तासाक हांव म्हजे चित्र काडून जातकीच कविता रचपाचो यत्न करतालों. एकदां तांणी म्हजी एक रचना वाचली आनी 'बरो बरयता, बरयत राव' अशी सुचोवणी केली.

णववेक आसतना शाळेंतल्या गॅदरिंगाक म्हाका मोनोलॉग करपाचो आसलो. पूण म्हाका जाय तसो मोनोलॉग मेळ्ळो ना. मागीर म्हजो मोनोलॉग हांवेच बरयलो आनी सादर केलो. सगळ्यांनी तुस्त केली. धावेक हांवे एक ल्हानशें नाटकुलें बरयलें आनी सिलेक्शन कमिटी मुखार सादर केलें. सिलेक्शन कमिटी पोट धरून हांसताली तें हांवे पळयिल्लें ... आनी म्हजें नाटकुलें गॅदरिंगाक सिलेक्ट जालें. त्या वर्सा हांवें एक मराठी कथा बरयली 'काळे ढग, पांढरे ढग' आनी ती कथा मुळवी सराक दाखयली. उपरांत हांव ती गजाल विसरून गेलों. अकरावेक म्हाका घरच्यांनी सायन्सीक घातलो. सादारण पयलें टर्म जातकीच एका वर्गमित्रान सांगलें 'काल तुजी कथा वाचली राष्ट्रमत पेपरांत'. म्हाका अजापाचो सुखद धक्को. छापून आयिल्ली ती म्हजी पयलीच साहित्य कृती. सोमतोच नगरपालिकेच्या लायब्रींत वचून पेपर सोदून काडलो आनी कथा वाचली... आय कार्ड दवरून तो पेपर घेवन बाजारांतल्यान कथा झॅरोक्स मारून घेतली. अभ्यासांत म्हाका बारावी मेरेन कोंकणी विशय गावलो ना. पूण नाटकुलें, मोनोलॉग, कविता हांव आपसूक कोंकणींतल्यानूच बरयतालों. अकरावेक पावतकीच म्हज्या लिखाणाक मात्सो ब्रेक लागलो. कॅमिस्ट्री, गणीत, बायलॉजी ... ह्या विशयांचे वजें साहित्यीक लेखन करपाची उमेद चिड्डूवपाक लागिल्लें. मात

शिकतनाय सृजनात्मक चिंतन चालूच आशिल्लें.

सायन्स वायट न्हय. पूण सायन्स शिकतना 'आमकां साहित्य कित्याक लागता ?' ही मानसिकता खूप वायट. पालक, शिक्षक आनी विद्यार्थी ह्या तिनूय घटकांची हीच मानसिकता आसता. ती बदलूंक जाय ही म्हजी इत्सा. आनी ती बदलना हें वास्तव.

एकदां फिजिक्स सरान आमकां 'ग्रॅविटेशनल पूल' शिकयतना 'सॅन्टर ऑफ ग्रॅविटी' समजावन सांगली ... हांवें म्हजे कुशीक बशिल्ल्या समीर पाटीलाक ल्हवूच म्हज्या मनांतलो दुबाव सांगलो ... (समीर आतां बांदेकार कॉलेजींत सायस्नच शिकयता) इतल्यांत सरानूच विचारलें, 'ॲनी क्वेशन्स ?' हांवें ल्हवूच हात वयर काडलो. समीराक सांगिल्लो दुबाव हांवें सराक विचाल्लो... 'सर, इफ वी डीग अ होल फ्रॉम नॉर्थ पोल टू साउथ पोल ... थ्रू ॲण्ड थ्रू ... ॲण्ड थ्रो अ स्टोन इन्टू इट ... व्हॅर इट वील रॅस्ट ?' फुडल्या बांकां वयले सगळे 'सायन्टीस्ट' फकाणां मारीत हांसले ... सरान म्हळें. 'डॉन्ट आस्क फुलीश क्वेश्चन्स, गॅट आउट ऑफ माय क्लास.' हांवूय 'ऑबिडियन्ट स्टुडन्ट' ... सरळ भायर गेलों. (पूण तो प्रस्न मात केन्नाच तकलेंतल्यान भायर गेलो ना).

आनी एकदां 'न्युटन्स थर्ड लॉ ऑफ मोशन' समजावन दिवचे खातीर सरान बॉलाची देख दिली. आमी जितल्या नेटान बॉल जमनीचेर मारतले तितल्याच नेटान आनी विरोधी दिकेन तो बॉल वयर सरतलो. 'ॲव्हरी ॲक्शन हॅज ओपोजीट रिॲक्शन', डिक्टेट केल्ले नोट बरोवन काडटना हांव मात चिंततालों ... 'जर न्युटनाचो हो लॉ खरो आसत जाल्यार ... जेन्ना खंयचोय गरीब जितल्या नेटान जमनीक आपट्टा तेन्ना तो तितल्याच नेटन परतो कित्याक वयर सरना ?' ... हांव सायन्साक आशिल्लों खरों... पूण लायब्ररींतल्यान इंटीग्रेशन, डॅरिव्हेशन, मॅट्रायसीस .. ह्या विशयांचीं पुस्तकां व्हरचे परस पु. ल. देशपांडे, व. पु. काळे, द. मा. मिरासदार, जयदेव दळवी ... हांचीं पुस्तकां व्हरतालों, वाचिल्लीं पुस्तकां क्लासांत कोणा कडेनूय शेर करतालों म्हळ्यार सगळे जाण $E=MC^2$ घेवन बसताले ... आनी हांव मात 'पु. ल. = कॉमेडी$^2$' चें गणीत सोडयतालों. बायलॉजीच्या प्रॅक्टीकलाक आमकां बेब्यांचें डिसेक्शन आसतालें. ते आदीं आमकां क्लोरोफॉर्मान घालून बेब्यांक बेशुद्ध करचें पडटालें. म्हज्या मनांतलो 'साहित्यीक बेबो' लेगीत ह्या सायन्साच्या क्लोरोफॉर्मान बेशुद्ध जावपाक लागिल्लो. हांव प्रॅक्टिकलाचें निमित्त करून कॉलेजींत सांजचो रावपाक लागलों. तेन्ना हांवें आर्टस् फॅकल्टीच्या भुरग्यां कडेन वळख करून घेतली. म्हजी आनी नित्यानंदाची वळख ही तेन्नाची. (तो आतां सि.ई.एस. महाविद्यलयांत शिकयता). आमचे उच्च माध्यमीक विद्यालयांत कोंकणी विशय नाशिल्लो ... हांव, नित्यानंद आनी हेर कांय जाण मेळून आमी कोंकणी विशयाची मागणी केली. मागणी मान्य जाली. पूण म्हाका विशय बदलपाची मेकळीक मेळ्ळी ना. हांवें गॅदरिंगा खातीर एक नाटकुलें बरयिल्लें ... पूण वांटो घेवंक वर्गांतलो कोणूय तयार नाशिल्लो ... सगळेच 'वूड बी दोतोर आनी इंजिनियर' ! निमाणें आर्टस् शाखेंतल्या भुरग्यांक घेवन हांवें गेदरिंगाक नाटकुलें बसयलेंच. नाटकुलें सगळ्यांक आवडलें. म्हाका सायन्स अजिबात आवडना जालें. बारवेकूच हांवें तेंच केलें.

आवा शिवा करून बारावी पास जातकीच घरा कडेन सांगलें ... 'म्हाका बी. ए. करपाक जाय. म्हाका साहित्य आवडटा ...'. म्हजो हो निर्णय आयकून 'सगळे विशय नवे. फेल जाल्यार कॉलेज बंद' हे अटीचेर म्हाका परमिशन मेळ्ळें. पांजऱ्यांतल्या सुकण्याक मळबांत

सोडटकीच कितें जाता आसतलें हाचो अणभव हांवें तेन्ना घेतलो ... बी. ए. घेतिल्ल्या वर्सा हांव पयले फावट अभ्यासांत कोंकणी शिकलों. तो मेरेन फकत 'जशी जाता तशी' कोंकणी बरोवन साहित्य लेखन करतालों. बी. ए. करपाचो निर्णय घेतकीच म्हज्यांतल्या सहित्यिकाक कितें करूं कितें नाका अशें जालें, मागीर घे ... कविता लेखन, कविता वाचन, नाटकुलें लेखन, नाटकुल्यांचें सादरीकरण, एकांकी सर्ती, मोनोलॉग, सुत्र–निवेदन, साहित्य संमेलन, परिषद, कार्यशाळा ... सुमारा भायल्यो कार्यावळी. हांव 'हांव' म्हण जगूंक लागलों. थंयूच म्हजी भेट पूर्णानंद च्यारी, रुपा धारवाडकार, श्रीकांत पालसरकार, उदय घोरपडे, अजय बागकार, रुपेश कोरडे ... हांचे लागीं जाली. एका परस एक साहित्यीक आनी कलाकार. तेन्ना वण्टी पत्रकांनी आमचें साहित्य झळकूंक लागलें ... सुनापरान्त, कुळागर, कोंकण टायम्स, तरुण भारत, गोमंतक ... हातूंत कविता लेख छापून येवंक लागले.... कोंकणी शिकतना 'उमेद' येवंक लागली. भुषण भावे आमचे सर. बरयिल्लें साहित्य तांकां दाखोवन, तांच्यो सुचोवण्यो घेवन मार्गक्रमण करीत रावलों ... आंतर महाविद्यालयीन काव्य सर्तिंनी वांटेकार जातना हनुमंत चोपडेकार, मिलन वायंगणकार, शाबा कुडतरकार, प्रसाद लोलयेंकार, प्रकाश पर्येंकार ... हांचेलागीं वळखी जाल्यो ... साहित्यीक कुटूंब वाडत गेलें. आयज ह्या कुटुंबातल्या मनशांचो आंकडो हिसपा भायर वाडला. केन्नाय चिंततां ... हांवें म्हजे भितल्लो साहित्यीक चिड्डोवन दवरिल्लो जाल्यार ... आयज हांव चडांत चड ... एक कॅमीस्ट म्हण खंयचेय कंपनींत आसपाचों ... म्हज्या घरच्या पांच–स मनशां पुरतेंच म्हजें कुटुंब आसपाचें ...

हांव कोंकणी साहित्यीक म्हण घडिल्ल्यान आयज म्हाका ... शेंकड्यांनी साहित्यीक आनी हजारांनी वाचक आशिल्लें 'महा–कुटुंब' लाबलां.

शिकिल्लें खंयूच फुकट वचना. हांवें घेतिल्लें सायन्साचें गिन्यान आयज हांव कोंकणी कविते खातीरूय वापरतां. डार्विनाची थियरी, आर्किमिइडीस प्रिन्सीपल, टायट्रेशनां, लिटमस पेपर टॅस्ट, न्यूटन्स लॉ ऑफ मोशन ... हे सगळें म्हज्या कवितेंत येता. केन्ना न कळटां ... केन्ना जाणीवपुर्वक. तेन्ना साहित्य संमेलनांनी गेल्यार पसून आमी कोनशाक आंग चोरून बसताले. साहित्यीकां म्हऱ्यांत वचपाक भंय दिसतालो. आयज नव्या बरोवप्यांक जेश्ठ साहित्यिकां लागीं मेकळेपणान चर्चा करूंक मेळटा. संमेलनां, कार्यशाळांतल्यान मार्गदर्शन मेळटा. आयचे सारकीं युवा साहित्य संमेलनां तेन्ना नासतालीं. आयज युवा साहित्यीक पिळगेक हक्काची संमेलन माची लाबल्या. साबार संमेलनां, कार्यशाळो, सर्ती हांच्या निमतान मार्गदर्शन लाबता ... ताचो योग्य उपेग करून घेवन युवा साहित्यिकांनी आपलेंय कुटूंब वाडोवचें.

*****



# युवा बरोवप्यांक भांगराळी संद म्हळ्यार युवा साहित्य संमेलन

**नरेश चंद्रकांत नायक**
काणकोण

युवा साहित्य संमेलन म्हळ्यार नव्या बरोवप्यांची बुनयाद. युवा प्रतिभेक येवपी चंवर. युवा साहित्य संमेलन म्हणना फुडे अभिमान दिसता कारण युवा साहित्य संमेलनान कोंकणी साहित्याचो संसार गिरेस्त केला अशें म्हणू येता. युवा बरोवप्याक योग्य दिका दिली– घडपाक फावो ती माची दिली – मार्गदर्शन संमेलनाच्या माध्यमातल्यान खूब महत्वाचें थारलां. सर्तीच्या माध्यमातल्यान आमकां साहित्याची रूची, ओढ लायली आनी ती ओढ कालांतराअन वाढत गेली. आपले मर्दीं आशिल्ली साहित्यीक तांक वळखुपाची संद युवा साहित्य संमेलन आमकां दिता. उपरांत साहित्याच्या संसाराची वळख आमकां घडयली. खास करून महाविद्यालयाच्या विद्यार्थ्यांमर्दीं साहित्याची कीट पेटवपाक युवा साहित्य संमेलनाचो वांटो खूब महत्वाचो थारला. वांगडा तांचेमर्दीं प्रसार आनी प्रचार करून युवा बरोवप्यांक माची दिल्या आनी हांचे श्रेय युवा साहित्य संमेलनाक वता.

युवा साहित्य संमेलनान आयज मेरेन जायते बरोवपी घडयल्यात. हांवय साहित्य संमेलनाच्या माध्यमांतल्यान घडलों. म्हाका बरोवपाची स्फूर्त, उर्बा आमचे प्राध्यापक सर पुर्णानंद च्यारी हाणी म्हाका दिली. सरान आनी साहित्य संमेलनान म्हाका साहित्याच्या संसाराची विस्तरान आनी खोलायेन वळख घडयली. म्हणोन आयज हांव एक ल्हानसो बरोवपी जावंक पावलो, हें हांव अभिमानान सांगतां.

योगायोगान ह्या वर्साचे युवा साहित्य संमेलन आमच्या श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालयांत आयोजित जाता म्हणून खोस भोगता. म्हजो 'गांवमन' कथा संग्रह माशें जाल्ल्या संमेलनांत उजवाडा आयिल्लो आनी हा वर्साचो साहित्य अकादेमीचो युवा साहित्य पुरस्कार म्हाका फावो जाला. आनी ह्याच वर्साचें साहित्य संमेलन म्हज्या महाविद्यालयांत जाता म्हणून खोस जाता. श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालयांतल्यान दोगांक जोफा गोन्साल्वीस हांका पयलो युवा पुरस्कार फावो जाल्लो हेंवूय नोंद करपा सारकें आसा. दुसरं महत्वाचें म्हळ्यार दोगांयचीं पुस्तकां संमेलनांत गोवा कोंकणी अकादेमीन उजवाडा हाडल्यांत. आयज मेरेन जायत्या नव्या बरोवप्यांची पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. गोवा कोंकणी अकादेमीचो भोव महत्वाचो हो उपक्रम.

संमेलनाच्या निमतान आमी वर्साक एक फावट एकठांय येतात आनी खूप महत्वाचें म्हळ्यार वेगवेगळ्या साहित्यप्रकारांचें मार्गदर्शन मेळटा. मार्गदर्शन सत्रां हो संमेलनाचो महत्वाचो भाग. कांय जाणांचे मत आसा युवा बरोवप्यांचें साहित्य खास आसना, पूण हें चुकीचें कारण. लेखक कालांतरान आनी पिराय अणभवान घडटा. ताचो साहित्याचो प्रवास गिरेस्त जाता. साहित्याची ही परंपरा, दायज संमेलनाच्या माध्यमांतल्यान युवा पिळेगी फुडें व्हरतली हातूंत दुबाव ना. आयचो युवा नवे विशयतंत्र फुडें सरलां. संमेलनाच्या माचेन घडयिल्ले बरोवपी सदांच आवय भाशेची सेवा करतले. साहित्याचो दिश्टावो घडोवपी युवा साहित्य संमेलनाचो हांव सदांच रिणांत आसतलों. संमेलनाच्या माचेक म्हजो सलाम.

युवा साहित्य संमेलनाचो हो प्रवास वर्सान वर्स साहित्यांत भर घालित आसा. हांव आमच्या आयोजकांक अशें यश आंवडेतां. युवा साहित्य संमेलनाचें हें माणकुलें पोरसूं सदांच परमळतलें आनी ताचो परमळ दीका दिकांनी पावतलो असो विशाल हावेस उक्तायतां.

जय कोंकणी !

# युवांगणाक बरेच उसरां कोंकणींतल्यानूय बरोवं येता हे कळ्ळे.

एन्. शिवदास

कोण जावप आनी कोण जावप ना हें थारावपाची अक्कल येव नाशिल्ली. ती भुरगी व तरणी अवस्था. घरांतली दोन वेळे रोजयेची शास्वती नासली. आवय खंयूय काम वैतली आनी पदराक बांदून कितें तरी दनपारच्या भूकेची वेवस्था करतली म्हण तोक्या भशेन वाट पळोवप. गोंय निकतेंच मेकळें जाल्लें, सादारण धा-बारा वर्सांच्या पिरायेचेर मेकळो स्वास गोम्यकारांनी घेतलो. ताचे मदीं असोय शिवा नांवाचो एक भुरगो नागेशीं देवळा फाटल्या सुभा नायकाचो नातू म्हण वाडटालो. बापूय सोनू वळख जावचे पयलींच पुताच्या नदरेपयस केन्नाच न दिसपाक गेल्लो. बापूय गेलो आनी भयण जन्मली. तिका बापूयखायसे आवय तिडकीन म्हणी. म्हाका कांय समजनाशिल्लें. देवळाकडे भवानी शाळेंत गणेश पूजा घेवन नारायण मास्तराकडे गेल्लों. साखार बसतालों. गांवांटल्या हेर भुरग्यांवांगडा मराठींटल्यान शिकतालों, उपरांत तेन्नाचो पोर्तुगेज गव्हर्नर व्हायस दी सिल्वान ईस्कोल प्रिमार म्हळ्यार पोर्तुगेच प्राथमिक शाळा सुरू केल्ली. म्हालक्ष्मी देवळाकडे आशिल्ल्या कारेकाराच्या घरांत सुरू केल्ली. (हांगासर माधवी देसाय रावताली) इंप्रेगाद जावपाक मराठी शाळा अर्दचार सोडून पुर्तुगेज ईस्कोल प्रिमेराक हेर भुरग्यांभाशेन गेलों. सरकारी इंप्रेगाद जातलो जाल्यार प्रिमेरग्राव वो सेगूनग्राव वो लिसेव जावंक जाय. पूण गोंय मेकळे जालें आनी १९६१ वर्सा हांव पोर्तुगेज सेगूनग्राव ही पुर्तुगेज पदवी घेवन न घर का न घाट का जालों. गोंय स्वतंत्र जातकूच त्या वेळा वयल्या आमच्या सरकाराक धड ना मराठी ना धड पुर्तुगेज अशे त्रिशंकू अवस्थेंतल्या शिकपी भुरग्यांक वाट दिसना जाली. पूण मुक्त गळ्यांतल्या सरकारान आमकां इंग्लिश शाळो उकत्यो केल्यो. हांव पोस्तार आल्मेदा हायस्कूलाचे दुसरे यत्तेंत पावलों. थंय रोहिदास नायक, प्रदीप कुस्मणकार उर्फ प्रदीप केशकामत, राजू खांडेपारकार बी टीचर आसले. सद्याचे सौंदेकार हायस्कूल तें हेंच. रंगकर्मी श्रीधर हांगाच शिकयता. हो वेळ मेरेन कांय बरयलेंना. फक्त खेळटालों पूण पोस्तार फक्त आठवी मेरेन, मागीर फुडली नववी,धावी, इकरावी आल्मेद हायस्कूल फोंड्या थंय गेलों. पूण थंय क्रिकेटर म्हण भुरग्यांमदीं फामाद जालों.

आनी णवेक आसतना हांव लेखक जावपाक लागलों. 'आल्मेडीयन' हें इस्कोलाचें मॅगझीन काडपाचें जाहीर जालें. भुरग्यांनी काणयो, कविता बरोवंक जाय अशें नोटीस बोर्डार लायलें.

काळजांत काय मनांत प्रचंड अस्वस्था आसली, कितें तरी करपाची, कोण तरी जावपाची. तेना तर हांव इस्कोलाचे टिमीत क्रिकेट खेळटालों. गोंयात नंबर लागपी क्रिकेटीयर आनी बॅटस्मॅन. बरो क्रिकेटर म्हण हांवे इस्कोल सोडून वचचें न्हय आल्मेदा हायस्कूलाकडल्यान फी नासतना शिकपाची वेवस्था जाली. तेन्ना फी आसताली.

इस्कोलाच्या आल्मेडीयन मॅगझिनांत मराठी तिसरी/ चौथी शिकोवपी उपाध्ये नांवाचो सर म्हणूंक लागलो शाळेच्या मॅगझीनाखातीर कथा, काणयो बरोवन हाडात. आनी हांगा पयलें बीं पडलें. हांवें आयुश्यांत पयलेच खेप धव्यार काळें केल्लें. काणी, कविता कितें कितें याद जायना, पूण म्हजे एक बरप आल्मेडियनाखातीर वेचलें, छापून आयलें. धन्य जालों. उपरांत जनमत कौल आयलो. राष्ट्रमतात कोंकणेतल्यान कविता येताल्यो. हो वेळ मेरेन मराठींतल्यान बरोवप अशें आसलें. इस्कोलाच्या मॅगझीनांतूय बरयलें तें मराठींटल्यान. पयले कथा मराठीच. अठरा वर्सां पयलीं ही कथा राष्ट्रमतांत छपून आयली. 'आई मी कवी होणार' ही पयली मराठी कविता. कोंकणीत बरोवंक येता हें खबरूच नासलें.

पूण आयताराचो राष्ट्रमत नदरेक पडलो, तातूंत कोंकणी वाचूं मेळ्ळें आनी उपरांत 'जैताची उंच घुडी' ही कोंकणींतली म्हजी पयली कविता राष्ट्रमतांत प्रसिद्ध जाली. आनी मागीर हावें फाटीं पळयलेंना. पिराय सोळा–सतरा आसूंये. गेदरींगाक 'माँ की पुकार' हें हिंदी नाटकुलें बरोवन सादर केल्लें आनी उपरांत फोंडा लायन्स क्लबाचे एकांकी सर्तींट इनामूय हाडलें. बरोवपाक कोणे उर्बा दिली ना वा कोणे आडमेळेय हाडली ना. पूण लेखक जावपाची प्रचंड इत्सा घट जाली. एक दीस बाकीबाबांचे दर्शन फोंडे बँके कडेन जालें. बाकीबाब तो व्हड कवी, तांची एक कविता मराठी पाठ्यपुस्तकात शिकिल्लों. चड करून ... माझा गांव काय उठा उठा चिवूताई सदीकडे उजाडलें.

राष्ट्रमतान कथा सर्त दिवाळी येतका जाहीर केल्ली आनी हांवें म्हजो कथाकार जागयलो. गळसरी, पोसको सारक्यो कथा राष्ट्रमता सर्ती इनामां जोडूंक पावलीं. हेच वेळार पुंडलीकूय सर्तींत इनामां घेतालो. पुंडलीकाकडेन जीवाभावाची इश्टागत उपरांत जाली. पुंडलीक नायकाचो युग जायसर ती इश्टागत आसली. उपरांत फक्त दिसल्यार हॅलो करपाची इतली बावून– बावून पार्ती जाली. आयचय ती पार्तीच आसा. निमित्य जावंना, कारण खबर ना, पुंडलीक म्हजो एका तेपावयलो जीवाभावाचो इश्ट. मडगांवां पाजीफोंडार भंडारी समाजाच्या घरांत आमी तेवताले. तागेलो हेरांकडचो मोग तेना थंयच घट्ट जालो. सोड, पोरण्यो यादी त्यो, आमीय विसरल्यात.

क्रिकेटर जालोना, लेखक जालों. लेखन करतना कसल्योय आडकाठी आयल्यो ना. मात कोंकणी बरयता कोंकणीवादी बी. ए. शिकिल्लो ट्रेडमार्क कसो गावात रावलों. चौगुले कॉलेजीच्या विद्या मॅगझीनांत 'पैज' ही कथा, पीकनेक गेल्लेकडेन एक चलयेच्या खांद्यार बसलां थंय हात घालपाची ती पैज. पैज खरे आसली. वास्तवतेंत हांवें पैज जिकील्लों. आतां सांगपाक हरकत ना. भारती सावर्डेकार नांवाच्या चलयेक जी म्हज्या सीटार बशिल्ली तिका विश्वासांत घेवन हांवें भारतीच्या खांद्यार हात घालो आनी पैज जिंकली. कोणूच सत मानपाक तयार ना, की तो पयलोच प्रसंग, आनी आमची पयलीच भेट व ओळख. मागीर हेच घडणूकेचेर कथा बरयिल्ली, 'विद्यां'त छापून आयली.

मागीर हांवे फाटी पळोंवना. पावस कसो वोतत रावलो, उटंगाराचो. खूप बरयलें. २००५ – भांगरासालांत साहित्य अकादेमी पुरस्कार प्राप्त जालो. भारतीय लेखक जावपाचे पात्रतायेचेर पावलों.

हेर सगळे जगाक खबर आसा. मात आयुष्यभर बरयतलों इतलेंच युवा लेखकांक समजूंचें.

कांय काळ आदीं हांव 'सुनापरान्त' त आपरोस हें सदर बरयताले. कांयन्हय म्हळ्यार सुमार णव वर्सां हांवें नेमान ह्या सदरांत बरप केलें. त्या निमतान हांवें आमचे उदेते पिळगेचें साहित्य वाचलें. त्या संबंदान म्हजो जो कितें अणभव आसा ताची हांगा नोंद करतां. ह्या काळांत खूप कवींच्यो कविता वाचपाक मेळ्ळ्यो. तांतूंतल्या कांय जाणांनी एक दोन कविता बरोवन कवितेचो निरोप घेतलो. कविता म्हळ्यार इतली उबळापी गजाल आसना. तिका घट्ट धांस मारून रावचें पडटा. ह्या तांच्या एक दोन कवितांनी लेगीत कविता बरोवपाची तांची तांक दिसताली. तरी सातत्य राखिल्लें जाल्यार तांच्या हातसून बऱ्या काव्याची निर्मणी जावंक पावतली आशेल्ली म्हूण म्हाका खंत उक्तावची अशें दिसता. तातूंत आडवाद म्हळ्यार अमेय नायक आनी श्रीनिशा नायक. तरी सातत्य राखलां आनी तांचीं पावलां आत्मविश्वासान पडत आसात. दुसरें: सर्जनाचो आनीक एक भाग म्हळ्यार वाचन. आमची ही उदेती पिळगी कितें वाचता अशें म्हाका दिसना. दुसऱ्यांचें साहित्य वाचल्यार ताचो आपले कथा वा कवितेचेर दुसऱ्याची सावळी पडत असो तांकां भंय दिसता. तरणाट्यांनी ह्या विचारांतल्यान भायर सरूंक जाय. दुसऱ्या लेखकाचो आपल्याचेर परिणाम जावप हें सामकें स्वाभाविक आसता. संवसारांतले खंयचेच कवी, कथाकार ताका आडवादना. फकत म्हत्वाचें आसता तें हो प्रभाव पचोवन तातूंतल्यान आपल्या व्यक्तीमत्वाक आकार दिवप. सुरवेच्या काळांत जाल्लो प्रभाव निमाणे मेरेन पुरून वचना असो अणभव आसा. ताची धरावी देख म्हळ्यार बाकीबाब बोरकाराची कविता. तांचे कवितेचेर भा. रा. तांबेचो प्रभाव आशिल्लो ताच्यो हयन्हयशो खुणो तांचे कवितेंत निमाणे मेरेन दिसताल्यो. तेन्ना प्रभावाक भियेवंचें न्हय. सगळे तरेचें साहित्य तें मागीर देशी जावं वा विदेशी उक्ते नदरेन वाचून काडचें. शेतकार जसो शेत कसता तशेंच वाचन हें सर्जनशील लेखकाच्या मनाची भूंय कसपाचें आयत.

जे सांस्कृतीक परंपरेंत लेखक जल्माक येता ताका ते परंपरेची जाण आसप गरजेचें. ह्या दायजांतल्यान आमच्या सृजनाक पोसवण मेळटा आनी आपले बरपावळीचीं पाळां मुळां घट्ट रुजूंक पावतात. शेक्सपियराचो अभ्यास करतना कालिदास वाचप गरजेचें आसता. आनी बाकीबाबाचे कवितेचो

आस्वाद घेतना डब्लु.बी. इटस वा रायनर मारिया रिल्क हांच्यो कविता अभ्यासूंक जाय. आमच्या देशी साहित्याक व्हड परंपरा आसा. हिंदी, बंगाली, तामीळ सारकिल्या भासांनी खूब उंचेल्या पावंड्याचें साहित्य निर्माण जाता. साहित्य अकादमी Indian Literature आनी 'समकालीन भारतीय साहित्य' हीं दोन नेमाळीं उजवाडा हाडटा. तीं वाचल्यार लेगीत ताचो फायदो आमकां जावंक पावतलो.

फकत भोग हो एकूच विशय साहित्याक आसना. अनुभवांक वेगळीं वेगळीं तासां आसतात ताचो अभ्यास गरजेचो. उतरांची तांक कितें आसता हें सबंदान विलियम गोल्डींग ह्या ब्रिटिश कादंबरीकारान नोबेल इनाम घेतना केल्ल्या उलोवपांत कितें म्हळां तें हांगा दितां: Words may, through the devotion, the skill, the passion and the luck of writers, prove to be the most powerful thing in the world. They may move men to speak to each other because some of those words somewhere express not just what the writer is thinking but what a huge segment of the world is thinking.

आमचे उदेते पिळगेन भाशेक हेरायल्यार तिचे हातसून चमत्कार घडूंक पावतलो.

माधव बोरकार

# १६ व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाक आमी यश आंवडेतात...

| | |
|---|---|
| **विणा प्रभूगांवकार**<br>पैंगिण, काणकोण–गोंय | **मनोराय दिवा**<br>मस्तीमळ, काणकोण–गोंय |
| **उल्हास कोमरपंत**<br>चावडी, काणकोण–गोंय | **व्हि. व्हि. पै खोत**<br>चावडी, काणकोण–गोंय |
| **दिनेश वेळीप**<br>कर्वें गांवडोंगरी, काणकोण–गोंय | **पिटर कुतिन्हो**<br>काणकोण–गोंय |
| **सियाराम्स**<br>पाळोळें, काणकोण–गोंय | **हाय टायड**<br>पाळोळें, काणकोण–गोंय |
| **खुशवंत भगत**<br>पाळोळें, काणकोण–गोंय | **अनिल के. देसाय**<br>देवाबाग, काणकोण–गोंय |
| **प्रविण भगत**<br>गुळें, काणकोण–गोंय | **कोझी नूक**<br>पाळोळें, काणकोण–गोंय |
| **दिवाकर पागी**<br>पाळोळें, काणकोण–गोंय | **एक बरें मागपी**<br>मडगांव –गोंय |

## १६ व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाक आमी यश आंवडेतात...

## हांचे आमी उपकारी आसात

डिजीलिंक

तुबकी रेझीडेन्सी

श्री मल्लिकार्जुन हायस्कूल, काणकोण

श्री मल्लिकार्जुन उच्च माध्यमीक विद्यालय, काणकोण

जवाहर नवोदय विद्यालय, काणकोण

बलराम उच्च माध्यमीक विद्यालय

नेतृत्व प्रशिक्षण संस्था

रवींद्र भवन, मडगांव

फोमेन्तो ग्रुप

शुभेच्छा



# श्री चंद्रकांत (बाबू) कवेळकार

केपे मतदार संघाचे आमदार

शुभेच्छा



# गोवा कोंकणी राज्य एकिकरण मंच

## कारवार

## प्रकाश पालनकर
## आशा पालनकर



# DEPARTMENT OF ANIMAL HUSBANDRY & VETERINARY SERVICES

**Government of Goa**

**Panaji - Goa**

***Establishes an Ambitious Plan for making Goa self - sufficient in milk, meat and eggs, also fight unemployment thus making our State nutritionally vibrant.***

## Kamdhenu Sudharit Scheme

Under the Scheme, 90% of subsidy is paid to SC/ST farmers and 75% to others. 5002 Cows purchased by 1691 farmers.

## Milk Incentive Scheme

40% Composite Subsidy is paid on proceeds of milk poured by farmers to Dairy Societies. Over Rs. 17.44 crores paid to 5825 farmers.

## Pashupalan Scheme

Scheme to rear calf from calf to cow stage. Upto Rs. 52,800/- per calf subsidy is provided. Rs. 26,55,147/- paid to cover 2828 calves so far.

## Dairy Equipment

Various Dairy Equipment like Milking Machine, Generator Set, Shed Washer, Ceiling Fans etc. are provided under the Scheme with 75% subsidy Rs. 1.5 lakh subsidy per farmer.

## Atal Gram Yojana

Netravali Village is adopted as Model Village under Atal Gram Yojana, specially in the field of Animal Husbandry and Agriculture.

## Mobile Veterinary Services

Introduced 2 (two) Mobile Veterinary Clinics with advanced equipments, One in North and One in South Goa for round the clock Veterinary services.

- Farmers are advised in their own interest to ensure feeding of optimum quality feed to dairy animals to ensure timely breeding inorder to ensure calf a year goal.
- Animals should necessarily be bred with Artificial Insemination within 3 to 4 months of their calving.
- Dairy business is highly lucrative and paying. Be vigilant and aim for a better yield and greater profit margins.

# GOVERNMENT OF GOA

# DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS

## CAMPAL, PANAJI-GOA.

**DEVELOP YOUR PERSONALITY, ACHIEVE EXCELLENCE THROUGH PARTICIPATION IN THE SPORTS AND YOUTH RELATED PROGRAMMES OF THE DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS .....**

## AVAIL OF THE FOLLOWING FACILITIES / SCHEMES

- Conduct of Primary /Middle /Secondary and Higher Secondary Schools/Sports Festivals.
- Development of Playground at School, Village Panchayat Level and Taluka Level.
- Conduct of Refresher Courses for Physical Education Teachers/Coaches etc.
- Supply of Sports Equipments to Government and Non-Government Schools.
- Promotion of Yoga Education.
- Establishment of maintenance of Vyayamshalas (Gymnasia).
- Celebration of days of State and National importance.
- Conduct of Civil Services Sports for Government employees.
- Release of Grants to the Sports Authority of Goa.
- Conferring of State Sports Awards.
- Grant to Non-Government Secondary Schools and Colleges, for development of Playgrounds/ Multipurpose Halls.
- Establishments of Sports Hostels.
- Promotion of National Cadet Corps (N.C.C.) at School, Higher Secondary and Colleges.
- Promotion of National Service Schemes (N.S.S.) at School, Higher Secondary and Colleges.
- Promotion of Junior Red Cross at School Level and Youth Red Cross at Higher Secondary Level Education.
- Promotion of Scouts and Guides activities at Secondary School Level.
- Promotion of Youth Welfare Programmes for Students and Non-Students.
- Celebration of National Youth Week.
- Establishment of Camp Sites for promotion of Youth Activities.
- Promotion of adventure activities for Youth.
- Establishment of Youth Hostels.
- Conferring of State Youth Awards.
- Recommendations for National Youth Awards.
- Conduct of Youth Festivals at District and State Level.
- Inter State Exchange of Youth Scheme.







**Issued by:**

**DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS,**

**Campal, Panaji-Goa.**